# जाग

वर्स २६ * आंक ६ * जानेवारी २०००



# जाग

◇ आंक ६ ◇ जानेवारी २०००

संपादक : रवीन्द्र केळेकार

संपादपी : माधवी सरदेसाय

छापपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापखानो : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

मुखचित्र : कोमरपंत


## ह्या आंकांत




की पटी : रु. १००/-
याथ्यांखातीर : रु. ७५/-
वर्सांची पटी : रु. २५०/-

वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
रुपये अदीक जोडचे)

चो नामो :
**जाग** म्हयनाळें
बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
साउदादिश, पाजीफोंड,
– गोंय ४०३ ६०१.

ळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## उतर संपादप्याचीं

### ते ना जावंक नात

हो वांचून उरलो जाल्यार मुसलमान माथ्यार बसतले, सगळ्या हिन्दुंची सुन्ता जातली, हाचें अवतारकार्य सोंपयल्लें बरें, अशें थारावन तांणी गांधींच्या हड्ड्यार तीन गुळयो सोडल्यो आनी तांची हत्या केली.

'हे राम' म्हणून गांधींची कूड पडली. पुणून गांधी सोंपल्यात व्हय ?

हे आदींय तांणी असल्योच चुको केल्यात. सोक्रतीश भुरग्यांक चिंतूक शिकयता; तो वांचून उरलो जाल्यार भुरग्यांची वाट लायतलो अशें येवजून तांणी सोक्रतीशाक विक्ख घालून मारिल्लो.

सोक्रतीशाची कूड मेली. सोक्रतीश मेला व्हय ?

सोक्रतीशाक विक्ख घालून मारलो तसो खिस्ताक तांणी खुर्सार खिळे ठोकून मारलो. खिस्त ना जावंक पावला व्हय ?

जे मरपा खातीर जल्माक येनात तांकां मारले म्हूण ते ना जायनात. सोक्रतीशाचो प्रभाव आयज, अडेज हजार वर्सां उपरांत लेगीत, येवरोपांतल्या विचारवंतांचेर अक्षुण्ण रुपान पळोवंक मेळटा. येशूच्या प्रभावान तागेल्या शिष्यांनी केदी भव्य संस्कृताय फाटल्या दोन हजार वर्सांत संवसारभर उबी केल्या!

सोक्रतीश ना जावंक ना, खिस्त ना जावंक ना.

तशे गांधीय ना जावंक नात. ते अजून आसात. आयजूय ते वेगळीं वेगळीं रुपां घेवन संवसारभर वावरत आसात.

गांधी सदां म्हणटाले, 'अन्याय ना करपाक जल्माक आयिल्ले आमी झुजारी. आमी यमा म्हन्यांतूच न्हिदूंक जाय. तुका जाय तेन्ना आमकां घेवन वच, आमी तुजे मांडयेरूच न्हिदल्यात, अशें ताका सांगूंक जाय. आमी, हे भाशेन, जियेवंक पावले जाल्यार कितेंय तरी करूंक पावतले. आमकां संवसाराची राजनीत, अर्थनीत, धर्मनीत मुळा सावन बदलपाची आसा. मरणा कडेन ताल धरुनूच आमी जियेवंक जाय.'

आनी खासा ते आयुष्यभर मरणा कडेन ताल धरून जियेत आयिल्ले.

तांचेर थोडे हल्ले जावंक नात.

तांचेर पयलो हल्लो जालो तो १८९७त. आदल्या तीन वर्सां पसून ते दक्षीण आफ्रिकेंतल्या हिन्दी लोकांचेर थंयचें सरकार करता त्या अन्यायांक वाचा फोडपाचें काम करताले. हें काम कितलीं वर्सां चलत, सांगूंक येनाशिल्लें. पंदरा वीस वर्सां लेगीत चलूं येता अशें तांकां दिसपाक लागलें. घरकान्न हिन्दुस्तानांत आशिल्ली. तिचे भायर, दोग धाकले भुरगेय आशिल्ले. तांकांय दक्षीण आफ्रिकेक घेवन येवचें अशें तांच्या मनांत आयलें आनी ते कांय म्हयन्यांची सुटी घेवन मायदेसाक आयले. बोटीर मेळिल्ले उसरपतींत तांणी ल्हानशी एक पुस्तिका बरोवन काडली. दक्षीण आफ्रिकेंतल्या हिन्दी लोकांचेर कसले कसले अन्याय जातात हाचीं वर्णनां तांणी हे पुस्तिकेंत केल्लीं. मायदेसाक पावनाफुडें तांणी ही पुस्तिका छापून घेतली आनी तिच्यो प्रती हिन्दुस्तानांतल्या फुडाऱ्यांक आनी नामनेच्या पत्रकारांक धाडून दिल्यो. 'रॉयटर' नांवाचे खबरो दिवपी संस्थेन तिचें एक विकृत रूप दक्षीण आफ्रिकेंतल्या खबरेपत्रांक धाडून दिलें. गोऱ्या लोकांनी तें वाचलें आनी ते खुबले. गांधी घरकान्नीक घेवन जे बोटीर चडिल्ले ती डर्बन बंदरार पावली तेन्ना गोऱ्या लोकांनी बोटिच्या कप्तानाक सांगलें, आमी कोणाकूच बंदरार देंवक दिवपाचे नात. तेवीस दीस बोट दर्यांत उरली. कोणाकूच देंवूंक मेळ्ळें ना. तेविसाव्या दिसा गोरे मात्शे मोव पडले आनी तांणी बोटिच्या कप्तानाक सांगून धाडलें, एक गांधी सोडून हेरां सगळ्यांक देंवयल्यार

जाता. सगळे देंवले. तांचे वांगडा कस्तुरबा आनी तिगेले दोग पुतूय देंवले. फकत गांधी बोटीर उरले. पुणून ते थोडेच बोटीर रावतले आशिल्ले. सगळे देंवन गेले उपरांत तेवूय देंवले. देंवन धक्या भायर आयले. थंय तांकां एक रिक्षा दिश्टी पडली. तांणी ती थांबयली. रिक्षा चलोवपी एक निग्रो आशिल्लो. तो गांधींक वळखलो. 'हाचेर गोरे लोक खुबल्यात... हो म्हजे रिक्षेंत बशिल्लो तांकां दिश्टी पडलो जाल्यार ते रिक्षेंतल्यान ताका भायर ओडून काडटले आनी मारतले... म्हजी रिक्षाय मोडून उडयतले' अशें येवजून गांधींक घेनासतना तो मुखार गेलो. चलत घरा वचचें अशें येवजून गांधी चलूंक लागले. वाटेर एके कडेन कांय गोरे भुरगे खेळटाले. ते गांधींक वळखले. 'गँडी, गँडी' तांणी गजर सुरू केलो. गजर आयकून तांगेले आवय बापूय भायर आयले. आनी हाताक लागता तो फातर, गुंडो, विटे कुडको गांधींचेर शेंवटून मारपाक लागले. एकल्यान गांधींक धुकलून जमनीर उडयले. ताणें मारपाक खोंट उबारचे पयलींच पडिल्ले गांधी उठून उबे रावले. परतेय फातर गुंडे तांचेर पडपाक लागले. म्हर्‍यांत एका बंगल्याचें फाटक तांकां दिश्टी पडलें. ताच्या सरयांक घट धरून ते मार खायत रावले. योगायोगान थंयच्या पोलीस सुपरिंटेण्डेन्टाची घरकान्न घोड्या गाडयेंत बसून ते वटेनच्यान वताली. ती गांधींक वळखली. गाडी थांबोवन ती धांवत आयली आनी आपणाले फुलयल्ले सत्रेचेर फातर गुंडे झेलीत रावली. गांधी वाटावले.

उपरांत कितें जालें तें सगळ्यांक खबर आसा. 'गांधींचेर हल्लो करतल्यां आड केस चलयात' अशें इंग्लंडच्या सरकाराक दक्षीण आफ्रिकेंतल्या सरकारान सांगलें. गांधींनी केस केली ना, सरकाराकूय करूंक दिली ना.

हो तांचेर जाल्लो पयलो हल्लो.

दुसरो जालो तो धा वर्सां उपरांत. १९०८त. हो हल्लो आदल्या हल्ल्या परस अदीक जीवघेणो आशिल्लो. ते भायर, तो गोर्‍यांनी वा काळ्यांनी करूंक नाशिल्लो. तांगेल्याच एका पठाण सांगात्यान केल्लो. 'हाणें सरकारा कडल्यान पंदरा हजार पौंड घेवन चळवळ फाटीं घेतल्या... हाणें आमचो विस्वासघात केला' असो ताचो गांधीं संबंदान अपसमज जाल्लो. ताणें गांधींचे तकलेर तोणको हाणलो. 'हे राम' म्हणून गांधी कोंसळ्ळे. ते बेसुद्द जाले. ह्या पठाणा आडूय गांधींनी केस केली ना. कोणाक करूंक दिली ना. कांय दिसांनी त्या पठाणाचो अपसमज पयस जालो आनी तो गांधींचो एक बर्‍यांतलो बरो सांगाती जालो, ही गजाल वेगळी.

सुमार एकवीस वर्सां दक्षीण आफ्रिकेंत काम करून ते मायदेसाक परतले तेन्ना तांच्या हातांत सत्याग्रह नांवाचें एक दिव्यास्त्र आशिल्लें. ह्या अस्त्रान ते देश स्वतंत्र करपाक मुखार सरले.

सगळ्यांत पयलो तांणी सत्याग्रह केलो तो रौलेट बिलां आड. हो सत्याग्रह शिमो हुंपून मुखार वचपाक लागलो तेन्ना तांणी रोखडोच तो फाटीं घेतलो. फाटीं घेवंक नाशिल्लो जाल्यार लोक हाताभायर वतले आशिल्ले. आनी सरकाराची दडपशाय मोलावन घेतले आशिल्ले. सरकाराक कसलेच तरेची दडपशाय करपाची संद गांधी दिवंक सोदी नाशिल्ले. दडपशायेन लोक तकलीच वयर काडचे नाशिल्ले. पुणून गांधींची ही 'नीत' लोक समजूंक पावले नात. 'आपणा हाता भायर वता म्हूण गांधींनी सत्याग्रह फाटीं घेतला' अशें ते म्हणपाक लागले. पंजाबांतले कांय शीख तरणाटे खुबले. 'तुमी असो अवसानघात केलो म्हूण जालियांवाला बागेंतलें हत्याकांड जावंक पावलें' अशे तरेचे आरोप करून ते गांधींक मारपाचे बेत करपाक लागले. मारप जमलें ना ही गजाल वेगळी.

१९३४त गांधींनी हिन्दू समाजांतल्या आफुडमश्टा आड चळवळ सुरू केली. ती पळोवन 'सनातनी' हिन्दू तांचेर खुबले. 'हो पाखंडी, नास्तीक, हिन्दू धर्म हो ना करतलो' अशें म्हणून ते हिन्दूंक खुबळावपाक लागले. ओडिसांतले भोंवडेंत गांधी जगन्नाथ पुरीक पावल्यात तेन्ना 'आमी मारतले म्हळ्यार मारतलेच' अशें सनातन्यांनी तांकां सांगून धाडलें. यात्रा मोटारीन चलताली. 'हांकां म्हाका सोदपाचो त्रास पडचो न्हय येवजून गांधी मोटारी बदला पांयांनी भोंवपाक लागले. मारपाचें कोणाक जालें ना. पुणून मारपाच्यो धमक्यो येवपाच्योय बंद जाल्यो ओडिसांतली भोंवडी सोंपोवन गांधी महाराष्ट्राचे भोंवडेर गेले. पुण्यांत पा कडेन सनातन्यांनी तांचे मोटारिचेर एक बॉम्ब शेंवटून मारलो. बॉम्ब कडेन पडिल्ल्यान गांधी मरूंक पावले नात. त्याच वर्सा कराचीक सनातनी हातांत कुराड घेवन तांच्या आंगार धांवन गेल्लो. वाराण लालनाथ आनी कालभैरव नांवाच्या दोन सनातन्यांच्या शिष्यांनी धुमशेणां कांडून 'गांधींक मारात' म्हूण लोकांक खुबळावन घालपाचो केल्लो.

आपणाक वाटावपाचो कसलोच यत्न करी नासतना इतल्याय ह्या हल गांधी योगायोगान वाटावल्यात.

तांच्या आयुष्याच्या निमाण्या पर्वांत पाकिस्तान आडावपाचो यत्न खातीर ते सेवाग्रामांतल्यान मुम्बय वचपाक भायर सरिल्ले. तांकां बॅ. जि मेळपाचें आशिल्लें. तांकां आडावपाचो 'पाकिस्तान विरोधी आघा (म्हळ्यार सावरकरांच्या शिष्यांनी) सेवाग्रामांत येवन यत्न केल्लो. थत्ते नांवाच्या एका सावरकर शिष्याकडलो सुरो पोलिसांनी काडून घेति सावरकरांच्या शिष्यांनी पुण्यांत गांधी विरोधी एक कारखानोच सुरू के 'अग्रणी' नांवाचें एक नेमाळें सद्दां लोकांचे तकलेंत गांधी विरोधी वि कालोवन ओतीत राविल्लें. गांधींक ह्या लोकांनी तरांतरांच्यो नखल केल्यात. केन्ना ते रावतात थंय वचून प्रदर्शनां केल्यांत. केन्ना गाड्या रुळांचेर फातर घालून ते वतात येतात त्यो गाडयो उमथुपाचो यत्न "म्हाका मरपाची ताकतीक लागूंक ना. आनी हुतात्मो जावपाची तर म निखालूस इत्सा ना. हांव जिका म्हजी लागणूक लेखतां ती पुरी क आसतना मरण आयलें जाल्यार ती म्हजी पुण्यायेची जोड अशेंच म्हणटलों' अशें गांधींनी तांगेले हे यत्न पळोवन कितलेशे खेपे म तांकां मारपाचो निमाणो यत्न जालो तो ३० जानेवारी १९४८ ह्या दि सावरकरांच्याच दोगां पट्टशिष्यांनी तो केल्लो. गुरू कडल्यान 'यश होऊन या' हो आशिर्वाद घेवन दोगूय दिल्लीक गेल्ले. आनी गां जीव घेवपांत 'यशस्वी' जाल्ले.

गांधींक पिरायेचें अंयशावें चलतालें. हरशींय जाल्यार एक दोन व तांगेली कूड पडपाचीच आशिल्ली. ती दोन वर्सां पयलीं पडली, इत जालें. पुणून एक मोटें लुकसान जालें. तांणी निमाणो उपास केला सोडचे वेळार तांणी म्हळ्ळें, 'पाकिस्तानांतल्यान हांगा आयिल्ल्या अ हांगासरल्यान पाकिस्तानांत गेल्ल्या एकान एका निर्वासिताक जे मेरेन ता घरा व्हरून पावयना, ते मेरेन हांव सस्त बसपाचों ना.' हें काम ते करूंक पावले नात. तांचे उपरांत कोणूच करूंक पावलो ना. पाकिस मंजूर करून आमच्या फुडार्‍यांनी जी चूक केल्ली ती निवळावपाची त गांधींतूच एकल्यांत आशिल्ली. तांकां हें काम करूंक हांणी दिलें ना.

पुणून, गांधी सोंपूंक नात. तरांतरांच्या रुपांनी ते आयजूय वावर क रावल्यात. मार्टिन ल्यूथर किंगांच्या रुपान ते अमेरिकेंतल्या निग्रो लोक घेवन जात कातिच्या वेगळेचारा आड काम करताले. जपानांतल्या निचिदा फुजीईच्या रुपांत ते अण्वस्त्रां आड वावर करताले. नेल्सन मंडेलां रुपान ते दक्षीण आफ्रिकेंतलें स्वतंत्रतायेचें काम करताले. जर्मनींतल्या केलीच्या रुपान ते येवरोपांत अण्वस्त्रां आड आंदोलन चलयताले. वि वर्सां पयलीं नोबेल इनाम जोडिल्ल्या सुमार अंयशीं विचारवंतांच्या अ विज्ञानिकांच्या सयांचें एक निवेदन 'युनो'च्या जाळवणदारांक मेळि तातूंत 'ओझोनच्या थराक बुराक घालपी आनी धर्तरि वयली हवा उ

विळ करपी विकासकार्य रोखड्यां रोखडें बंद करूंक जाय आनी सारं आर्थीक मळार गांधींचें वाटेन घेवन वचूंक जाय' अशें म्हळ्ळें लोकांक गांधीच थंय दिश्टी पडिल्ले. आयज इकॉलॉजिचें नांव घेवन सारा जे वावर करतात ते गांधींचे भक्त अनुयायीच न्हय, तर खासा च्या रुपान वावुरतात अशें म्हणूं येता. इकॉलॉजी हो गांधी विचाराचो आर. गांधी ना जावंक नात. ना जावपाचेय नात.
एकसावें शतक तांचें ह विशीं दुबाव घेवपाचें कारणूच ना.

## खंय आशिल्ले आंमी, खंय पावले

ल्याच कांय वर्सांतली गजाल. पणजे मांडवी हॉटेला मुखार एकल्याची त उबो राविल्लों. येतां म्हूण सांगिल्लें, अर्द वरा वयर जाल्लें, शिल्लो. भौन भौन हांव हाताचे घडयाळीकडेन पळेतालों.
तांत फूटपाथा वयल्यान एकली चली येताली तिचेर नदर पडली. ा ऑफिसा कडेन पाविल्ली. वीस बावीस वर्सांचे पिरायेची. म्हजे . ऐश्वर्या राय भाशेन चलत येताली. म्हऱ्यांत पावतकूच हांवें तिका ण एकल्यान आपणाले निजाचे चालीन चलचें... ही चाल तुका रसता. ऐश्वर्या रायचो प्रभाव पडला काय कितें तुजेर?'
ऱ्यांनी हांसली आनी म्हणपाक लागली, 'ऐश्वर्या राय म्हजे पिरायेच्या हिरोईन जाल्या... तिचे सारकें जावचें अशें आमकां चडशा सगळ्या दिसता...'
लें म्हूण... तुमी ऐश्वर्या राय थोडींच जावपाचीं आसात... तुमी... वेचारशीत जाल्यार तूं ऐश्वर्या राय परस सुंदर. तूं तूंच राव. ती जावंक जाय?'
यांत जाची वाट पळेत उबो राविल्लों तो इश्ट आयलो. आमी डवींत गेले. हांवें इश्टाक म्हळें, कोणा कोणाच्या नादाक लागतात च्यो ह्यो चलयो!... ही ऐश्वर्या राय जावंक सोदता!...'
कपलार हात मारलो आनी म्हळें, 'आमगेलें सुषमा सुश्मिता सेन ळेतालें...'
या दिसांनी मुम्बय पावलों. नवीं पुस्तकां सोदीत सोदीत चौपाटी 'भारतीय विद्या भवना'च्या स्टॉलार पावलों. थंय एकलो इश्ट हालिंसराक भौराष्ट्रीय कंपन्यां आड खूब उलयता बरयता. थाक रावता. म्हाका आपणाल्या फ्लॅटार घेवन गेलो. हांवें ताका , 'विश्वसुंदरिंच्यो सर्ती कोण घडोवन हाडटात?'
ा खबर ना? 'मिस् युनिव्हर्स'ची सर्त युनिलिव्हर नांवाची एक घडोवन हाडटा तर 'मिस् वर्ल्ड'ची रेवलॉन, प्रॉक्टर एण्ड गॅम्बल ॉन्सन एण्ड जॉन्सन कंपन्यो घडोवन हाडटात...'
र्या राय आनी सुश्मिता सेन पयल्योच भारतीय चलयो विश्वसुंदऱ्यो ?'
च्ये... कांय वर्सां पयलीं रिता फारीय नांवाची तुमच्या गोंयची ी जाल्ली. खंयच्या वर्सा जाणा? इन्दिरा गांधीन रुपयाचें तेत्तीस अवमूल्यन केल्लें त्या वर्सा... विश्व बँकेच्या जाळांत त्याच वर्सा न घुसपल्लें... उपरांत इन्दिराजी देशाचे अर्थविवस्थेक राष्ट्रीयकरणाचे घेवन गेली... आंतरराष्ट्रीय मुद्रा कोशा कडल्यान रिणूय काडपाचें केलें... परिणामी, उपरांच्या काळांत कितलींशीं वर्सां एक लेगीत चली विश्वसुंदरी जावंक पावली ना... ७०च्या दसकांत वेनेझुयेलान देसाचीं दारां भौराष्ट्रीय कंपन्यांक उकतीं केलीं. ते उपरांतच्या वोवीस वर्सांत मिस् युनिव्हर्स, मिस् वर्ल्ड, मिस् फोटोजेनिक पदव्यो ांतल्या सुमार तीस चलयांक मेळ्ळ्यो... सोवियेट रशियेचें विघटन एक रशियन चली विश्वसुंदरी जाल्ली. ९२/९३च्या अदमासाक न दारां उकतीं केलीं. तेन्ना लिसाहाना नांवाचे एके जामायकी चलयेक ही पदवी मेळिल्ली. दक्षिण आफ्रिकेन दारां उकतीं करिना फुडें बास्तसान नांवाची एकली दक्षिण आफ्रिकी चली हे पदवेर दुसऱ्या नंबरार आयली... क्रोएशिया रशियेचो एक वाटार आशिल्लो. रशिये पसून फुटलो. ताका विकास घडोवन हाडपाचो आशिल्लो. भौराष्ट्रीय कंपन्यांक ताचीं आमंत्रणां गेलीं. एकली क्रोएशियन चली विश्वसुंदरी जाली... आंतरराष्ट्रीय मुद्रा कोशाचे आनी विश्वबँकेचे सांगणेन ह्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो जावंक पावतात. आतां भारतान उदारीकरण, संवसारीकरण सुरु केलां. आतां भारतांतल्यो कितल्योश्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो जातल्यो, नांव जोडटल्यो... संवसारभर गाजतल्यो...'
ताचे जिबेर इतलेंय हें पाठ आशिल्ले वरी पळोवन म्हाका अजाप जालें.
ताणें मुखार म्हळें, 'युनिलिव्हर, रॅवलॉन, प्रॉक्टर एण्ड गॅम्बल, जॉन्सन एण्ड जॉन्सन ह्यो कंपन्यो शॅम्पू, नेल पॉलिश, पावडर, शाबू, सेंट्स, क्रिमां बी तरां तरांचीं 'सौंदर्य प्रसाधनां' तयार करतात. तांकां बाजार नाका? म्हूण त्यो विश्वसुंदऱ्यो वेंचून काडटात. आपणालो माल खपोवपा खातीर ह्या चलयांचो जायरातिंनी उपेग करतात. आनी हो माल त्यो घेतात म्हणपाचें कळटकूच देशांतल्यो बाकिच्योय चलयो तो घेवपाक लागतात. हें अर्थकारण ह्या सर्तिचें... भारतायेदी बाजारपेठ सगळी तांच्या हातांत येवंक जाय. क्रोटिंनी अब्जांनी रुपयांची तांकां जोड जावंक जाय... ना जाल्यार भारतीय चलयो विश्वसुंदऱ्यो जावपाच्यो नात.
आनीक एक गजाल लक्षांत दवरपा सारकी – ह्या चलयांनी कशें चलचें, कशें हांसचें, कशें उलोवचें सगळें ह्योच कंपन्यो तांकां शिकयतात. वर्सभर तांकां कंपन्यांचे सांगणेन चलचें पडटा. सुश्मिता सेनाचो उपेग क्लोझ-अप टूथपेस्टा खातीर जाता. तिका बबूल वा वज्रदंतीचे जायरातींत पळेल्या व्हय तुवें केन्ना? बबूल आनी वज्रदंती भौराष्ट्रीय कंपन्यो न्हय. देशी कंपन्यो ह्यो. भौराष्ट्रीय कंपन्यां इतलो खर्च करपाची तांक तांच्यांत ना... भौराष्ट्रीय कंपन्यो सुमारा भायर खर्च करतात आनी शंबर वांट्यांनी चड नफो जोडटात... चलयो बाबड्यो आपलें नांव जाता, फोटे खबरांपत्रांतल्यान छापून येतात म्हूण कंपन्यो सांगतात तें करतात. आपणालें शोषण जाता म्हणपाचें बाबड्यांक कळऽ लेगीत ना. हजारांनी डॉलर्स मेळटात, तितल्यार खोश्शी जातात. वियेतनामच्या झुजांत पडिल्ल्या अमेरिकन सैनिकांचें मन रिझोवपा खातीर, ते मुर्स्तींत, तुमचे रिता फारीय विश्वसुंदरेक वियेतनामांत धाडिल्ली हांणी... ह्यो चलयो विश्वसुंदऱ्यो म्हूण गाजपाक लागतकूच गिरेस्तांचे कितलेशे चले तांचेकडेन लग्न जावपाक आंवडेतात... पुणून ह्या चलयांक कंपन्यो लग्न जावंक दिनात. वर्सभर तरी दिनात. वर्सभर तांकां कितेंच करूंक मेळना. कसलीच मेकळीक मेळना. लग्न जाल्ली चली आपणाले कुडिचें प्रदर्शन मांडपाक सपसप तयार जायना. लग्न जावंक नाशिल्ली खंयच्याय ऍंगलान कुडिचें प्रदर्शन करपाक अनमनंना. १९५२ वर्सा इन्द्रायणी रहमान 'भारत सुंदरी' सर्तींत वेंचून आयिल्ली. तिणें स्वीमिंग-सुटांत प्रदर्शन करिना म्हळें. परिणाम? तिका फुडल्या सर्तींतल्यान अचळय कडेक काडली...'
म्हाका हें सगळें नवें. ज्या खबरेपत्रांनी म्हाका भौराष्ट्रीय कंपन्यो ह्या देशांत आमकां लुटपा खातीर, नागोवपा खातीर आयल्यात म्हूण सांगपाचें तीं 'ह्यो कंपन्यो आमच्या तरणाट्यांक नोकऱ्यो-चाकऱ्यो दिवपा खातीर आयल्यात' म्हूण सांगतात. 'हांव अमेरिकेचे आनी कॅनडाचे भोंवडेर गेल्लों. थंयच्या गोंयकारांनी म्हाका Du Pont is a good company म्हूण सांगलें', अशें आमच्या एका उद्देगमंत्र्यान म्हाका सांगिल्लें. 'तुका वाचपाक वेळ आसा व्हय? हांव दितां तुका ड्यूपाँची सगळी जाणकारी' म्हूण हांवें ताका म्हळें. 'दी' म्हूण ताणें म्हाका म्हळें ना. जाणा जावन घेवपाची ताका इत्साच नाशिल्ली. ताकाच बाबड्याक कित्याक दुशण दिवं? मंत्री जातकूच गोंयांत सगळे विद्वान जातात. शाणे जातात. आनी सगळ्यांक शापातां सांगपाक लागतात (जाणकारांक लेगीत). आनी आमचीं खबरेपत्रां

हीं शापातां छापून हाडटात. 'तुमकां कांय कळना' म्हूण कोणूच तांकां सांगिना.

सुंदर फकत सुंदर आसलें म्हूण उपकारना. तें पवित्र्य आसूंक जाय. मोना लिसाच्या मुमुरख्या हांशांत कितलें सौंदर्य भरलां! तिचे कुडीकडेन कोणाचें लक्ष वता व्हय? आमच्या देशांत अजंठ्याक, वेरूळाक, खजुराहोक, कोणारकाक मूर्तिशिल्पांतल्या बायलांची सुंदरकाय उकताडाक आयल्या. ती केन्ना कोणाक उणाक पांवड्याची, असभ्य, vulgar दिसल्या व्हय? सुंदरकाय म्हळ्यारूच पवित्राय. पुणून सुंदरकाय जेन्ना सर्तीत देंवता तेन्ना ती 'हळशीक' जाता. कोंकणींतलें हें उतर संस्कृत 'अश्लिल' उतरावयल्यान आयलां म्हणटात. अश्लिल म्हळ्यार पोजडें – obscene. भौराष्ट्रीय कंपन्यो आमची आतां रुचीय (टेस्टूय) इबाडूंक लागल्यात. विश्वसुंदऱ्यांच्या सर्तीं आड, खरें म्हळ्यार, बायलांनी तिडकीन उसळूंक जाय आशिल्लें.

एक उगडास जालो –

हिन्दुस्तान निकतेंच स्वतंत्र जाल्लें. जवाहरलाल प्रधानमंत्री जाल्ले. नान्सी द स्काफा नांवाची दक्षीण अमेरिकेंतली एक विश्वसुंदरी मुम्बयंत पावली. ताजांत रावली. 'ब्लित्झां'त मासिलों द आल्मैद काम करतालो. म्हजो एक इश्ट मुम्बयंतलो. हांव ब्लित्झांत ताका मेळपाक गेल्लों. तो खंय तरी वचूंक भायर सरिल्लो पळेलो. म्हाका पळेनाफुडें म्हणपाक लागलो, 'येता? ताजांत एकली विश्वसुंदरी आयल्या. दक्षीण अमेरिकी देशांतली एकली. तिची मुलाखत घेवंक वतां.'

बावीस तेवीस वर्सांचे पिरायेचो हांव. विश्वसुंदरी पळोवपाक येना म्हणटलों? मोटे उमेदीन गेलों. अठरा वीस वर्सांचे पिरायेची आसूंक जाय ती. आंगलोट सुंदर. पुणून तिणें जो ड्रेस आनी मेक-अप् केल्लो तो पळोवन 'ही नागडीच अदीक सुंदर दिसतली आशिल्ली' अशें म्हाका (ते पिरायेर लेगीत) दिसलें. तिगेलो ड्रेस आनी मेक-अप म्हज्यान पळोवं नज जालो. सामको vulgar दिसलो. ती स्पेनिश भाशेंत उलयताली. आपणाली भास मासिलों समजता हें पळोवन ती फुलून आयिल्ली. मासिलोंक आनी म्हाका पुर्तुगेज येताली. म्हूण स्पेनिश समजताली. मासिलोंन तिका खूब प्रस्न केले. तांचो आनी तिच्या जापांचो आयज उगडास जायना. पुणून एका प्रस्नाची तिची जाप घट मतींत उरल्या. मासिलोंन तिका विचारलें, 'संवसारांतल्या राज-पुरसां मदीं तुका सगळ्यांत चड देखणे कोण दिसले?'

'इराणचो शाह आनी पुर्तुगालचो सालाझार.' तिणें जाप दिली.

'नेहरू?'

'आरोंगान्ति' – घमेंडी, तिणें जाप दिली. 'आतां मेरेन कोणाचीय मुलाखत हांवें मागल्या तेन्ना चोवीस वरां वयर वाट पळोवची पडूंक ना. आठ दीस जाले, नेहरू म्हाका मुलाखत दिना...'

'नेहरू कोणाकूय मेळटा... आयज वेळ नासलो जाल्यार फाल्यां यो म्हणटा. ना जाल्यार परां तरी वेळ दिताच दिता... आनी तूं तर एक विश्वसुंदरी... तुका तिश्टत दवरचो ना...' मासिलोंन म्हळें.

'जायत... म्हाका अजून मेळूंक ना.'

म्हाका त्या वेळार नेहरूचे चलणुकेचें कुवाडें सुटूंक नाशिल्लें. आयज विश्वसुंदऱ्यो कोण मुखार काडटात तें कळ्ळें तेन्ना सुटलें. स्वतंत्र भारतांत भौराष्ट्रीय कंपन्यो रिगूंक सोदताल्यो. तरेतरेच्यो ट्रिकी करताल्यो. नान्सी द स्काफाक असलेच एके कंपनीन नेहरूंक मेळून यो म्हूण सांगिल्लें आसूंक जाय... नेहरू हांकां सारके वळखताले... ते बदले नात.

ना जाल्यार आयज? आमचे राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्री. खंयचेय विश्वसुंदरींक भेटी दितात. दूरदर्शना वयल्यान ह्या भेटींचें पोझ दिवन प्रदर्शनूय करतात. खंय आशिल्ले आमी, आनी आयज खंय पावल्यात!

•

## ताळयो पेटपी लोकांच्या देसांत

'जाणां तूं रवीन्द्रबाब, काँग्रेस वर्किंग कमिटीन एक थाराव पा... पक्षाची मिटींग सुरू करचे पयलीं सोनिया गांधींच्या फोट्या मु... जोडून उबे रावंक जाय आनी 'पक्षगीत' म्हणून ती सुरू क... म्हणपाचो.'

'पक्षगीत? तें आनी कसलें?'

'घालीन लोटांगण, वंदीन चरण
डोळ्यांनी पाहीन रूप तुझें...
त्वमेव माता पिता त्वमेव
त्वमेव बंधु मम देव देव...' हें.' ताणें जाप दिली.

'शी: इतली crude टिका करची न्हय रे केन्ना कोणाची...' ... 'फाल्यां तुमीय अशेंच करतले... अटलजींच्या फोट्या मुखार ... तुमीय हें गीत म्हणटले.'

तो फणफणून उठून गेलो.

मन कितल्याश्या वर्सां फाटल्यान गेलें.

दिल्लींत एकल्याकडेन निकतीच वळख जाल्ली. पयलेच वळखे... तार जुळिल्ली. ताचे कडेन आख्यायिकांचें एक भांडार भरिल्लें ... कितेंय आयकूं, रोखडोच तो एक आख्यायिका सांगतालो. एक ... चलत चलत रामलीला मैदानासरीं पाविल्ले. थंय एका राज... सभा भरिल्ली. 'आयकुया, फुडाऱ्यांची शापातां?' हांवें ताका विच...

'शी... आमी हिजडे व्हय तर?' ताणें म्हळें.

आनी सभेक फाट करून आमी परतले.

वाटेर ताणें म्हाका एक आख्यायिका सांगली. म्हळें, राम... आख्यायिका ही. तुका ती वाल्मीकी रामायणांत मेळपाची ना. तुलसी... रामायणांतूय मेळपाची ना. पुणून आमच्या गांवांत ती जाण्टेल्य... पिळग्यान पिळग्यां सावन घोळत आयल्या.

रामाचो राज्याभिषेक जावपाचो आशिल्लो म्हूण अयोध्ये... खुशालभरीत जाल्ली. राज्याभिषेकाच्या उत्सवांत वांटो घेवपाची ति... चलिल्ली. इतल्यांत कोणें एकल्यान येवन तिका सांगलें, 'कैकयी... सगळी चाकां घुंवडायलीं आनी रामा वांट्याचो भरताक राज्याभि... अशें थरलें... राम आतां चौदा वर्सां वनवासाक वचपाचो आसा ... धसको बसलो. ती हुडक्या हुडक्यांनी रडपाक लागली ('प्रजे ति... मारिना, उसळूंक येना. ती फकत रडूंक जाणा' – तो). ... लक्षुमणाक घेवन राम वनवासाक वचपाक भायर सरलो तेन्ना प्र... फाटल्यान चलत चलत अयोध्येचे शिमे मेरेन गेली. शिमेर पावत... प्रजेक म्हळें, 'म्हज्या भावांनो आनी भयणींनो, म्हजे वयलो ... पळोवन म्हजें काळीज भरून आयलां... जिबे वयल्यान उत... राजाचे आज्ञेक पाळो दिवंकूच जाय म्हूण वनवासाक वतां. ... अशींच उबून वतलीं आनी हांव आशिल्लो तसो अयोध्येक ... ते मेरेन धीर धरात... आनी हांगाच्यान आतां घरा वचात...'

प्रजा जड अंतस्करणान अयोध्येक परतली.

वेनवासाच्या चौदा वर्सांत रामाचेर तरांतरांचीं संकश्टां कोंस... लक्षुमणान तीं हड्ड्याचें कोट करून परतिलीं. सगळ्यांत व्हड सं... कोंसळ्ळें तें सीतेच्या अपहरणाचें. लंकेच्या रावणान तिका उबारु... रावणा आड झुजून तिका सोडोवन हाडपाक रामाकडेन सैन्य ... किष्किंधाच्या वानरांच्या आधारान ताणें सीतेक सोडोवन हाडलें... मारून लंकाय ताच्या शेकांतली मेकळी केली आनी लंकेचें राज्य ... भावाक दिवन राम अयोध्येक परतलो. ते मेरेन चौदा वर्सां जाल...

अयोध्येचे शिमेर पावपाक ताका कांय जाण हात जोडून उबे...

पडः रामान तांकां विचारलें. 'म्हज्या येवकाराक इतलेंच तुमी ग्रात बाकिचे खंय?'

ळे वपा जाले... तूं आज येतलो म्हणपाचो तांकां अदमास लो...आमी तांकां तूं आयलो म्हूण सांगून धाडलां. येतले आतां , तां जाप दिली.

कां चे पयलीं कशें कळ्ळें, हांव आयज येतलों म्हूण?'

आयो हें आमकां आतांच कळ्ळां... आमी तुजी वाट पळेत हांगा, र्सां र्लीं, उबे आसात...' तांणी म्हळें.

दां र्ती तुमी हांगाच उबे आसात? हांवें तुमकां सगळ्यांक घरा म्हूणसांगिल्लें.' रामान अजापान तांकां म्हळें.

मकांसांगूंक नाशिल्लें. तुंवें तुज्या भावांक आनी भयणींक सांगिल्लें. तुजे ावूय न्हय, तुज्यो भयणीय न्हय...' तांणी जाप दिली.

त तुमी?' रामान विचारलें.

री जडे. दादल्यांतूय मोडनात, बायलांतूय आमचो आसपाव

रे रे रे! येदो व्हड अन्याय केलो हांवें तुमचेर? शी... व्हडली चूक जाली म्हजी... म्हाका आतां तिचें प्रायश्चीत घेवचेंच पडलें... तुमकां अयोध्येचें अर्दें राज्य दितां.'

'च्ये च्ये... तुजी आमचेर कृपा आसतकूच जाली... राज्य घेवन आमी कितें करतले? राज्य आमकां चलोवंक येवं नाका?'

'कितें येता तर तुमकां?'

'फकत ताळ्यो पेटपाक येतात...' तांणी जाप दिली.

'तशें जाल्यार, हे मुखार म्हज्याच न्हय, भारतवर्षांतल्या सगळ्या राज्यांनी तुमचोच शेक चलतलो असो वर दितां हांव तुमकां...' रामान तांकां वर दिलो.

ते बरोबर स्वर्गांतल्यान देवांनी तथास्तू म्हुणून सगळ्यांचेर फुलां शिंवरायलीं.'

ही आख्यायिका सांगून म्हज्या इश्टान म्हळें, 'तेन्ना सावन आमच्या ह्या देशांत फकत ताळ्यो पेटूंक जाणा आशिल्ल्या हिजड्यांचोच शेक सगळ्या राज्यांनी चलत आयला... मागीर ते कॉंग्रेसींतले आसूं, भाजपांतले आसूं वा आनी खंयच्याय पक्षांतले वा आघाडेंतले आसूं... रामलीला मैदानार जमल्यात ते हे तरेचे लोक... फकत ताळ्यो पेटूंक जाणा जाल्ले...

* * *

# पडसाद

नमस्कार

'भास आनी समाज' सदरांत 'सांस्कृतीक आंवाटाभायलो उशणो वेव्हार' हो लेख (जाग, डिसेंबर १९९९) वाचलो. ताचेर म्हजीं कांय मतां उक्तायतां.

पुर्तुगेज भाशेचो फाटलीं साडेचारशीं वर्सां (१९६१ मेरेन) कोंकणीचेर प्रभाव पडलो. तेच भशेन साडेचारशें वर्सां गोंयांत पुर्तुगेज भाशेचेर लेगीत कोंकणीचो प्रभाव पडलो. हो प्रभाव कमी प्रमाणांत आसलो तरी तो आडनदर करपाइतलो उणो न्हय. तुमी म्हळां तशें हालीं तेंपार जरी पुर्तुगेज भाशेचेर कोंकणीचो कितलो प्रभाव पडला हाचो अभ्यास जावंक ना तरी खूब वर्सांपयलीं मो. सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद हांणी ह्या मळाचेर खूब वावर केल्लो. आनी तांणी दोन पुस्तकां उजवाडायिल्लीं – Influencia do vocabulario Português em Linguas Asiaticas (पुर्तुगीज उतरावळिचो आशियाई भासांचेर प्रभाव) आनी दुसरें, Glossario Luso-Asiatico.

Glossario Luso-Asiatico १९१९-१९२१ वर्सा कोइंब्रा-पुर्तुगाल हांगा दोन खंडांनी उजवाडाक आयिल्लें आनी तांतूंत पुर्तुगेज लेखकांचे बरपावळींत आसपाव जाल्ल्या ५५०० वयर आशियाई मुळांच्या उतरांची वळेरी आसा.

ह्या ५५०० उतरांमदीं कोंकणी भाशेचो चडांत चड आसपाव जाला हाची खास नोंद मो. दाल्गादांनी केल्या. पुर्तुगेज भाशेंत आसपाव जाल्लीं कांय कोंकणी उतरां अशीं:

abolim ''आबोलीं'', alenga ''माडाकडेन खणटात तें 'आळें''', ambalo ''आंबाडो'', ambil ''आंबील'', angana ''आंगण'',

babaré ''बाबारे!'', batcar ''भाटकार'', bate ''भात'', bombilem ''बोंबील'', boto ''भट'', brindão ''भिण्णां'',

cajulo ''काजुलो'' (माडाची सूर), calo ''कालो'' (हिंदूंची परब), carie ''कडी'' (शीत-कडी), caratém ''करातें'', cantandor ''काटांदोर'', champo ''चाफो'', chetni ''चटणी'', chardo ''चाड्डो'', curo ''कुडव'' (तांदूळ मेजपाचें माप), cudolim ''कुदळ'' (खणपाची), diagi ''दायजी'', dali ''दाली'' (कोंड्या वेतां पासून केल्ली), dekhani ''देखणी'' (नाच), diuti ''दिवटी'', dol ''धोल'', dossoró ''दसरो'', doutró ''धुत्रो'', fenim ''फेणी'', gaddi ''घाडी'', gauncar ''गांवकार'', gonçalim ''घोंसाळी'', gumata ''घुमट'', gunji ''गुंजी'', jambolão ''जांबळ'', jono ''जण'', ladu ''लाडू'', lonim ''लोणी'', mando ''मांडो'', mandares ''मांडारे'', mundcar ''मुंडकार'', mati ''माती'', mongari ''मोगरी'', mordexim ''मुड्डुशी'', moroda ''मरड'', mazane ''म्हाजन'', nachenim ''नाचणे'', naique ''नायक'', namoxim ''नामोशी'' (एक जात), niro ''निरो'' (काजुचो), panchaito ''पंचायत'', paparim ''पापड'', pará ''पारो'' (नुस्त्याचें लोणचें), potravalim ''पत्रावळी'', pudvem ''पुडवें'', puza ''पुजा'', quiraita ''किरायतें'', quizol ''किनळ'' (मदेराचो एक प्रकार), ranes ''राणे'', ramponim ''रांपण'', ronto ''रोंटो'' (कीड), sandana ''सान्नां'', sanvori ''सांवर'' (कापसाचें झाड), sissó ''शिसो'', sigmo ''शिगमो'', sura ''सूर'' (माडाची), tambio ''तांबयो'', tefla ''तेफळां'', tendelim ''तेंडलीं'', tulosse ''तुळस'', urraca ''उर्राक'', vangana ''वायंगण'', velu ''वेळू'' (व्हडलो कोंडो), xenoi ''शेणय'' (मास्तर), zagor ''जागोर'', zaios ''जायो'', zatra ''जात्रा''.•

मो. दाल्गादांनी फकत पुर्तुगीज भाशेंत रिगिल्ल्या कोंकणी उतरांची व दिवंक ना, तर त्या उतरांचो अर्थ, फोडणिशी, पुर्तुगेज लेखकांनी बरपावळींत तांचो कसो उपेग केला हाची पुराय म्हायती Glossário पुस दिल्या. (संदर्भ: Dalgado – The Man & the Scholar, क आंतोन पेरैर, उजवाडावपी: साहित्य अकादमी, १९८३).

साडेचारशीं वर्सां राज्य करपी पुर्तुगेज भाशेचो कोंकणीचेर प्रभाव सभावीक आसलें. कित्याक तर ती राज्यकर्त्यांची (वयली) भास अ कोंकणी भाशेन पुर्तुगेज भाशेकडल्यान खाशेल्या रासवळ मळांचेर (ध न्यायालयीन, शासकी) उतरावळी घेतल्यो आनी कांय कडेन कोंकणीकरणय केलें.

पूण एक मात अजाप दिसता, साडेचारशीं वर्सांचो पुर्तुगेज भ कोंकणीवेलो प्रभाव गोंय सुटके उपरांत साडेचार वर्सां भितर इतलो कसो जालो? इंग्लेज भाशेन पुर्तुगेजिचो जागो कसो घेतलो? ह अभ्यास करपा सारको विशय.

इंग्लेज भास तर हांगच्या राज्यकर्त्यांची नासली. नव्यानच आयिल्ल्या मगो सरकारान 'जळीं-मळीं-स्थळीं' मराठीच शाळा उगडि इंग्लेज माध्यमांतल्यो शाळा हातावेल्या बोटांचेर मेजपा इतल्यो आ इंग्लेज जाणा जाल्लेय गोंयांत चड लोक नासले. पुर्तुगेज भाशेचो तशें पळयल्यार मराठीन घेवपाचो. पूण अशें कित्याक जालें ना? वे कोंकणीचेर १९६१ वर्सा जितलो मराठीचो प्रभाव आसलो तितलो आतां ना. अशें कित्याक घडचें?

आयज इंग्लेज भाशेचो कोंकणीचेर फकत प्रभावच पडूंक ना, तर आक्रमण जालां. आयची कोंकणी भास एके तरेची कोंकणी-इंग्लीश र जावन पडल्या. कांय जाण तिका विनोदान कोंग्लीश (Konglish) म्हण

बरोवपाच्या मळार लेगीत इंग्लीशीचो प्रभाव कोंकणीचेर पडिल्लो अ दिश्टी पडटा. 'सुनापरान्तां'त येवपी कांय लेखांचेर नदर मा कितलिंशींच इंग्लीश उतरां कोंकणी उतरांनी भरसल्लीं आमकां पडटलीं. हे बरोवपी कोण 'सटर-फटर' न्हय, तर खडेगांठ लेखक!

कोंकणींतले उशणे उतरावळींत बदल हाडपाचेंच काम इंग्लीशीन ना. तिणें आमचे सांस्कृतीक जिणेंत लेगीत आक्रमण केलां. दुर्दैवान अ म्हणचें पडटलें, जें काम पुर्तुगेज भाशेक साडेचारशें वर्सां करूंक ना, तें फाटल्या चाळीस वर्सांत इंग्लीश भाशेन केलां.

आयचे पुरतें कोंकणी-पुर्तुगेजिचें नातें लागिंचें – intimate – जायत. पूण तें बदलत चल्लां. आयज नवी पिळगी जनेल म्हणिना, म्हणटा. कदेल म्हणिना, चॅर म्हणटा. जी सुवात पुर्तुगेजीन कोंकणी उतरावळींत मेळयिल्ली, ती आयज हळू हळू इंग्लीश घेत चल्ल्या. थोड्या तेंपान पुर्तुगेजिचें पुराय रितीन कोंकणींतल्यान उच्चाटन ज पुर्तुगेज भाशेक लागून कोंकणी भाशेंत 'भारदस्तपण' आसलें, गो आसली, 'जान' आसली. ती थोड्या तेंपान आमकां अणभवूंक ना हाची भिरांत दिसता.

**— सखाराम शेणवी बोरकार, म**

# हिरू

चंद्रकांत केणी

मुं मरीन लायन्सच्या फ्लायओवरचेर तो म्हजे फुडें चलतालो. ...त चलपाचो यत्न करतालो. पूण ताचो दावो पांय ओडटा तें म्हाका ...लें. खादिचो म्हेळो लेंगो आनी त्या मानान धवो सदरो इतलोच ...त. दाव्या खांद्याक शबनम पिशवी. ते पिशवेच्या कोनशाक कागदाची ...कुळी लडी भायर सरिल्ली. कॅलेंडर आसुंये. वाडिल्लें खाड आनी ... वक्ल. माथ्याक मुखावयल्यान खरड पडलां पूण फाटल्यान केंस ...ते मानेचे सकल मेरेन वाडल्यात.

...र्ता चलतां तो थांबतालो. फाटल्यान पळयतालो. एक-दोन खेपे ...तो म्हाकाच पळयता. पूण येवजिलें, तो म्हाका कसो पळयतलो? ... ताका वळखना. तोय म्हाका वळखुपाची शक्यताय ना. फाटल्यान ...कोणय येता आसुंये. हांवेंय एक दोन खेपे फाटल्यान नदर घुंवडायली. ...ो फुटपाथ म्हळ्यार मुयांची रांग लागची तशी लोकांची रांग लागिल्ली ... कोण कोणाच्या सांगातान चलता तें लेगीत कळना.

...ा काळबादेवीक वचपाचें आसलें. ताकीत नासली. भोंवतणच्यीं दृश्यां ... हांव सवकासायेन चलतालों. ताचे आनी म्हजे मदीं सुमार धा ... अंतर उरतालें. मागीर म्हाका दिसलें, ताचो दावो पांय दुखता ...जाय. देखून थोडें अंतर चलतकच विसव घेवंक तो उबो रावता.

...स स्ट्रीट आनी गिरगांव रोडाच्या नाक्यार एका झाडामुळांत तो ...लो आनी हांव ताचेसरीं पावलों. पूण लागीं पावतकच हांवें नदर ...ो आनी ताचेकडेन पळेनासतना फुडें गेलों. सिग्नलाकडेन म्हाका ...चें पडलें तेन्ना फाटल्यान पळयलें. पळय जाल्यार तो म्हाकाच ... नदरेक नदर भेटली तेन्ना ताणें उजवो हात फुडें काडलो.

...ोन पावलां फुडें सरलो आनी ताणें म्हाका विचारलें, ''गोवा के?'' ...जाप दिली ना. फकत हांशिल्ले भशेन केलें तेन्ना ताणें कोंकणींतल्यान ...व घेतलें आनी विचारलें, ''वळखलो काय ना?''

... फाटीं सरून ताचेसरीं आयलों. बारिकसाणेन ताका निरखिलो. ...डले दांत पडिल्ले आनी ताका लागून ताचे उच्चार स्पश्ट ...शिल्ले. ताची वळख घेवपाक हांवें म्हळें, ''तूं म्हाका वळखलो. ... मात तुका वळखलों ना. तुजें नांव कितें?''

...ांसलो. हांसतना खुबच कुरूप दिसतालो. उजव्या हाताच्या नाखटांनी ...पलें वाडिल्लें खाड खरपिलें. म्हाका ओगीच दिसलें, हो मनीस ...स तरी न्हाल्लो नासतलो. वतांतल्यान आयिल्ल्यान ताच्या ...ल्यान हूम गळटाली आनी ताणें आपल्या मनगटाक ती पुशिल्ल्यान ...तोंडय खताविल्लें. हांवें पळयलें, तागेलो दावो पांय सुजला आनी ... पांयांक ताणें दोन पट्यांचें जोतें घालां. दावो पांय उकतोच आसा. ...नांत दुबाव आयलो, दाव्या पांयांच्या जोत्याचो पटो रोमता देखून ... ताणें पिशवेंत काडून दवरिल्लें आसतलें. पूण एका पांयांत जोतें ...भोंवपी हो मनीस तकलेन सारको आसा मू?

...र मिनीटभर ताणें म्हज्या प्रस्नाक जाप दिलिना. घडये हांव वळखतां काय म्हूण तो वाट पळयतालो आसुंये. पूण हांव कांय उलयना हें पळोवन ताणेंच म्हळें, ''तूं कसो वळखतलो? आनी नांव सांगलें तरी वळखत अशें दिसना. म्हजें नांव हिरू... भुरगेपणांतली याद कर.''

हांव वळखलोंना. तरी हांवें ''आरे हिरू, तूं कितलो बदल्ला'' अशें एक नाटकी वाक्य तोंडांतल्यान भायर काडलें आनी ताचो निरोप घेवन फुडले वाटेक वचचें अशें येवजून म्हळें, ''सध्या खंय आसता तूं? करता कितें?''

''सध्या म्हळ्यार आज हांगा मुंबय. फाल्यां खंय आसतलों तें सांगूंक जावचेंना. आनी करतां कितें ह्या तुज्या प्रस्नाक म्हजेकडेन जाप ना.''

''पूण कितेंय तरी करता आसतलो न्हय... वेवसाय, धंदो, नोकरी... त्या अर्थान विचारलां हांवें...''

''हांव तत्त्वज्ञानाची भास उलयना. खरेंच हांव कितें करतां तें हांव नकळं. म्हळ्यार, हांव कांयच करिना.''

''बरें तर'' अशें म्हणून हांव ताचो निरोप घेवपाची तयारी करूंक लागलों. म्हाका काळबादेवीच्या एका ऑफिसांत वचपाचें आसलें. हात दिवंक म्हणून हांवें ताचेमुखार हात धरलो. ताणें तो आपल्या हातांत घट्ट धरून म्हळें, ''कितल्या वर्सांनी तूं म्हाका मेळ्ळा. खरें म्हळ्यार हांवें तुका च्या तरी दिवपाची...''

म्हाका च्या घेवपाची नासली आनी ताची वळखूय पुरती मेळूंक नासली. हांवें म्हळें, ''च्याचें बरें आसा. तूं आसता खंय? परत केन्नाय मेळुंया.''

तरी ताणें म्हजो हात सोडलो ना. म्हळें, ''परत मेळुंया? घडये भेट जावची ना. म्हजो पांय सुजला तो तुवें पळयलाच. पांच पावलां चलतकच खरस येता... म्हजें एक काम कर. म्हाका एक धा रुपया दी... तुजे पयशे हांव परत दिवंक पावचोंना म्हणपाचें हांव जाणां. देखून ते परत दितां असलें फटिचें आस्वासन हांव दिवंक सोदिना...''

हांवें विचार केलो. हाची चड वासपूस केली जाल्यार हांव घुस्पून पडटलों. देखून हांवें बोल्सांतले धा रुपया काडून ताका दिले आनी म्हळें, ''पांय डॉक्टराक दाखयलोना?''

''हॉस्पिटलांत वतां. वखदां घेतल्यांत.'' ताणें सांगलें आनी म्हजो हात सोडलो.

हातांत आशिल्ली धा रुपयांची नोट निरखितना ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं अशें म्हाका दिसलें. देखून म्हळें, ''तूं मनाक लावन घेवं नाका.''

''ना, मनाक लावन घेना. पूण म्हाका एका प्रसंगाचो उगडास आयलो. हांव स्कुलांत आसतना म्हज्या बोल्सांत खूब पयशे आसताले. आनी हांव म्हज्या सवंगड्यां सांगातान खूब पयशे मोडून फोल्गां मारतालों. फोल्गां म्हळ्यार हॉटेलांत वचून च्या पिवप, भाजी-उंडो खावप... ना जाल्यार शिरो. आनी फुटबॉलांनी खेळटा आसतना आयसफ्रूट येतकच आमचे टिमींतल्या भुरग्यांक घेवन दिवप... त्या काळार भुरग्यांच्या बोल्सांनी पयशे नासताले. एक दीस दुसरे टिमींतल्या एका भुरग्यान म्हजेकडेन आयसफ्रूट

घेवपाखातीर उशणे पयशे मागिल्ले. हांवें ताका आयसफ्रूट घेवन दिलो. ताकाय तान लागिल्ली. बडी हातांत धरून हांवें आयसफ्रूट तोंडांत घालतां घालतां ताच्या आयसफ्रुटाचेर फुटबॉल मोखिल्लो... आयज तो प्रसंग म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावता. म्हाका तेन्ना मद मारिल्लो. आज सगळो मद निवळ्ळा.''

हांव रस्तो क्रॉस करून फुडें गेलों आनी म्हाका जंय वचपाचें आसलें ते दिशेन चलूंक लागलों. एक खेपे हांवें फाटल्यान पळयलें. पूण म्हाका ते गर्दींत तो मनीस... हिरू... दिसलो ना.

हांव येवजूंक पडलों. कोण हो हिरू ? आसतलो कोणय. असो बेफिकीरीन विचार करीत हांव म्हज्या कामाक गेलों. काम सोंपून भायर सरतासर तीनसांज जाल्ली. म्हाका माहिमाक वचपाचें आसलें. हे गर्देच्या वेळार बसीन वा लोकल गाडयेन वचचे परस टॅक्सी घेवन वचचें अशें हांवें थारायलें. पूण एकय टॅक्सी मेळ्ळिना. हांव चलत धोबी तलावार मेट्रो सिनेमा लागसार आयलों आनी थंय टॅक्सिची वाट पळयत उबो रावलों.

अचकीत म्हजी नदर थिएटराचे वणटीक तेंकून फुटपाथाचेर उकडयां बसून भेळ आनी पाव खातल्या हिरूचेर गेली. वसवशा भशेन तो खातालो. ताची नदरच हातांतल्या खाणाचेर थिराविल्ली. फुटपाथावेल्यान लोक येताले-वताले. कुशिच्या बस स्टॉपाचेर खुबशे लोक उबे आसले. रस्त्यावयल्यान येरादार चालू आसली. पूण एकांतांत बसून खाणाची रूच घेवची तसो हिरू आपले भितरूच गुल्ल आसलो. ताणें म्हाका पळोवंक नासलो.

खीणभर येवजिलें, ताका जाप दिनासतनाच फुडें वचचें. पूण कोण हो हिरू तें जाणून घेवपाची उत्सुकता सुरवेक सावन मनांत आसली. कामाचे तिश्टतीक लागून ती चिड्डल्ली. आतां हांव मेकळो आसलों. देखून हांव ताचेसरीं गेलों आनी ताका उलो मारलो.

एकदम उठून तो उबो रावलो. काचाबूल जाल्ले भाशेन जालो. हांवें म्हळें, ''बस तूं. सवकासायेन खा.''

''तूं उबो आनी हांव कसो बसूं?'' ताणें म्हळें. ''तुवें पयशे दिले देखून आज हें खालें. तुजो विस्वास बसचो ना, चार दिसां उपरांत आज हें अन्न पोटांत घेतां. गोंयांत आमच्या घरांत जेवणावळी पडटाल्यो. दनपारच्या वेळार कोणेय भुकेल्ल्यान येवचें आनी पंगतीक बसून पोटभर जेवन वचचें अशी रीत आसली. आज भिकारी जावन हांवें तुजेकडेन पयशे मागले...''

सट्ट करून हिरूची वळख मेळ्ळी अशें म्हाका दिसलें. काळखांत विजेचो दिवो पेट्टां पेट्टां पालवचो तशी ती अवस्था. हांवें म्हळें, ''येदोळ हांव बोवाळांत आसलों. चल, आज सांगातान जेवंक या.''

तो अनमनलो. ताणें म्हळें, ''आसूं. आज तूं जेवण दितलो आनी फाल्यां ही भेळ ताळ्या सकयल देंवचिना. तेन्ना खंय वतलों ?''

हांवें ताका चड उलोवपाची संद दिलिना. ताका हाताक धरलो आनी लागशिल्ल्या एका वातानुकुलीत रॅस्टोरेंटांत आमी भितर सरले.

''म्हाका भूक ना.'' ताणें म्हळें. ''पूण तूं दिता जाल्यार म्हाका एक सूप दी आनी नुस्त्याची एक प्लेट मागय.''

''तूं रावता खंय ?'' हांवें ताका परत विचारलें.

''सध्या मुंबय शारांतच आसां.''

''खंयचेकडेन ?''

तो मात्सो गडबडलो. ताणें म्हळें, ''तुका दिवंक म्हजेकडेन पत्तो ना. हांव जे वस्तींत रावतां ते वस्तींत सभ्य लोक वचनात. न्हिदपापुरतो हांव थंय वतां आनी सकाळीं परत भायर सरतां तो बद्द रातचो उसरां परत रुमार वतां.''

''रुमार कोण आसा ?''

''कोण ना. एकलोच रावतां. वस्ती बरी न्हय. पूण करतलों कितें ?

दुसरो जागो ना. पारशी लोकांक अग्यारी आसा. आमकां हिंदूंक धर्म... लेगीत ना. तशो धर्मशाळा खूब आसात. पूण म्हजे सारकेल्याक थंय... मेळना.''

अजून हिरू कोण ताची म्हाका सारकी कल्पना येना. मदींच... आसा अशें दिसतासर तो अनवळखी दिसूंक लागता. तो कोंकणी उ... खरो, पूण तागेले उच्चार मात्शे वेगळे हें म्हाका जाणवता. आ... खऱ्यांनीच गोंयकार काय कितें असो दुबाव येता. जे तरेन ताणें सूप... आनी उपरांत कांटो सुरी घेवन नुस्तें खालें ती तरा पळयतकच तो... रस्त्यावयलो भिकारी न्हय इतलें कळटालें. हांवें ताका जेवता आ... कसलोच प्रस्न विचारलोना. तोच मदीं मदीं उलयतालो. आपल्याच न... तो दोश दितालो.

जेवण सोंपतकच हांवें ताका म्हळें, ''तुजें नांव म्हाका वळखिचें दि... पूण आमी खंय मेळिल्ले ताचो उगडास जायना.''

''तूंय बरो मरे!'' ताणें म्हळें. ''तूं अजून म्हाका वळखूंक ना... तुवें धा रुपये दिले आनी आपल्या सांगातान हॉटेलांत हाडलो ?''

''तूं वळखिचो कसो वागलो देखून हांवें प्रतिसाद दिलो.'' हांवें म्ह...

''एक सांग, तुमी आदीं कासावले आसताले न्हय ?... आतां तरी... उगडास जालो ?''

''सगळो वेळ हांव भुरगेपणांतल्या सवंगड्यांची याद करीत आसां... तुजो तोंडावळो दोळ्यांमुखार कसोच.''

''येतलो कसो ?'' ताणें म्हळें. ''भुरगेपणांतलें तोंड तशेंच कशें उरत... तें पुराय बदलून वता. म्हजें तरी बदलून गेलां. पूण तुजें बदलूं... हें खरें. ना जाल्यार हांव तुका वळखुपाचो न्हय. तुका पळयनाफुडें... वळखलों. आनी तूंय म्हाका निरखिता हें पळयतकच म्हजी खात्री जाली...''

''हांव तुका निरखी नासलों. म्हजेमुखार तूं आसलो. देखून नदर... पडटाली, इतलेंच.'' हांवें म्हळें.

''पूण आतां तरी वळखलो न्हय ?'' ताणें विचारलें.

''तशे आमी कांसावले गांवांत रावनासले. उबाळाच्या दिसांनी वा... येवन रावताले आनी त्या वेळार हांव तुमगेरूच उरतालों...'' ताणें म्ह...

आनी एकदम म्हज्या दोळ्यांमुखार हिरू उबो रावलो.

''आतां याद जाली'', हांवें म्हळें.''तूं सायकल घेवन येतालो. द... वेळेर रेंवेचेर आमी ती चलयताले... आतां सगळी याद जाली.''

बील फारीक करून आमी भायर आयले तेन्ना हांवें हिरूक म्हळें, ''अ... हांव वतां. फाल्यां तुजो कितें प्रोग्राम ?''

''म्हजो आनी कसलो प्रोग्राम ? खरें म्हळ्यार हांव कांय करिना. स... कफल्लक जालां. बसीन भोंवंक पयशे नात. संस्कारांक लागून सरळ... मागना. तुजे सारकिल्या मुखार हात पातळायतां आनी दीस काडटां.''

''अशें उपकारना. तुज्या पांयांक वखद करून बरो जा. आनी कस... काम सोदून घेवन खर्चापुरते पयशे जोड.'' हांवें ताका सांगलें.

''कोण दितलो म्हाका काम ? आतां पिराय जाल्या. देह थकला अ... मनूय थकलां... आनी खरें म्हळ्यार काम करपाची संवय मोडल्या.''...

''तूं पुलीस खात्यांत आसतालो म्हूण आयकल्लें. केन्ना रिटायर्ड जालो...''

''अजून थंय आशिल्लों जाल्यार हे आदींच रिटायर्ड जावपाचों... म्हाका डिसमीस केलो.''

एक विचित्र हांसो हिरू हांसलो. ल्हान भुरगीं दुसऱ्याक चाळय... काडटात तसलो आवाज ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलो. हांवें अजा... ताच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी म्हळें, ''घरा कोण कोण आसा ?''...

''घरच ना जाल्यार घरा कोण आसतलो ?'' ताणें परतो प्रस्न के...

''गोंयांत तुमचें मूळ घर आसतलेंच न्हय ? थंय कोण कोण आसा... हांवें विचारलें.

सोडल्यार चाळीस वर्सां जायत आयलीं. ते उपरांत हांव गोंयांत
ला. आमचें संयुक्त कुटुंब. म्हज्या बापायक भुरगेपणांत् मरण आयलें
पोलयान म्हजे आवयच्यो सयो घेवन घराण्याचे येणावळिचो आमचो
ल्या नांवार करून घेतलो आनी उपरांत आमकां घराभायर काडलीं.
वन ती आपल्या कुळारा गेली. पूण चड दीस वांचलिना. तिच्या
ांच म्हाका पोलीस खात्यांत नोकरी मेळिल्ली. हांव तिका घेवन
य आयलों...'' थोडे भितर जिवीत कथा सांगची अशे तरेन तो

रे, हें म्हाका कांयच खबर ना.'' हांवें म्हळें. ''पूण पुलिसेंत नोकरी
तुवें भाड्यान घर घेतलें ना?''
फ्लॅट आशिल्लो भाड्याचो. फकत हांव पुलीस खात्यांत आसां
खातीर घरमालकान तो दिल्लो. म्हजी नोकरी वतकच हांवें फ्लॅट
म्हणून ताणें प्रयत्न सुरू केले आनी हांवें भाडें फारीक करूंक
सिद्ध करून कोर्टाच्या आदारान त्या फ्लॅटाचो ताबो घेतलो.''
द्ध करून म्हळ्यार? तुवें भाडें फारीक केल्लें तर?'' हांवें विचारलें.
डावयलो मनीस. नोकरेखातीर म्हाका खंय खंय भोंवचें पडटालें.
आसतना नेमान भाडें फारीक करतालो. तो पयशे घेतालो. पूण
दिनासलो. म्हाकाय पावती कित्याक जाय आसली? आवय उपरांत
य आसतालों तेन्ना तागेलें सगलें भाडें फारीक करतालों. म्हाकाय
न्ना पावती दिली ना. आनी म्हजी नोकरी वतकच भाडें फारीक
ना अशी कागाळ करून ताणें म्हाका फ्लॅटांतलो भायर काडलो.''
नी तुजी बायल, भुरगीं?''
वसार थाटपाचो योगच आयलोना. पूण ती खबर उपकार करून
नाका.''
एकदम गंभीर जाल्लो पळोवन म्हाका दिसलें, ते विशीं चड
चारचें न्हय. हांवें म्हळें, ''तूं फाल्यां म्हाका कित्याक मेळना?
तो दी. हांव तुगेर येतां.''
का. तूं येवं नाका. तूं सांगशी थंय हांव येतां.'' ताणें म्हळें.
्या दिसा मॅट्रो थिएटराच्या दारांत सकाळच्या ११ वरांचेर मेळपाचें
चयलें.
सिनेमा पळोवंक वतलो काय कितें?'' एकदम ताणें म्हाका विचारलें.
का जाय जाल्यार सिनेमा पळोवंया. सांगातान जेवंया. पोटभर उलोवन
.. फाल्यांचो दीस हांव मुंबय उरतलों. परां म्हाका गोंयांत परतूंक
' बोल्सांत हात घालून आनीक एक धा रुपयांची नोट भायर काडली.
यशे नाकात'', ताणें म्हळें. ''फाल्यां मेळटले तेन्ना लागले जाल्यार

दवर. न्हा. खाड कर. तुजे कपडे म्हेळे जाल्यात ते बदल.''
सगलें धा रुपयां भितर जावचेंना.''
केतले लागतले?''
का म्हजी लज दिसता?'' ताणें गंभीर सुरांत प्रस्न विचारलो.
नेखालूस ना.'' हांवें ताका आस्वासन दिलें. ''म्हाका लज दिसना.
ज्या ह्या अवताराक लागुनूच तुका आपूण बरो ना अशें दिसता.
ळय, एका पांयाक जोतें घालून तूं भोंवता...''
जी नदर ताच्या पांयांकडेन गेली. आतां दोनूय पांयांनी जोतीं आसलीं.
म्हळें, ''पांय दुखता तेन्ना हांव जोतें काडून दवरतां.''
वें ताका वीस रुपया दिले आनी म्हळें, ''तुजो प्रस्न हांव सोडोवंक
ना. पूण फाल्यां कपडे बदल आनी खाड कर.''
जाणा तूं? लॉंड्रींत दिल्ले कपडे पयशे नाशिल्ल्यान हाडूंक नासले.
वीस रुपया जातले. तूं दिताच जाल्यार आनीक वीस रुपया दी.
ाडटाच जाल्यार सारकें काडुया.''

हांवें आनीक वीस रुपया दिले. आनी ताका दुसऱ्या दिसा सकाळीं ११ वरांचेर तेच सुवातेर येवपाचो उगडास करून दिलो.

''सिनेमाक वतलो जाल्यार बेगीन येतां. सकाळच्या वेळार तिकेट मेळूंक सोंपी.धा वरांचेर सुरू जाता... कितले दीस हांव त्या सिनेमाचें पोस्टर पळयतां. पूण तिकेट विकती घेवन थिएटरांत वचूंक परवडना.''

''तशें जाल्यार हांव धा वरांचेरच येतां. कसलो सिनेमा चलता?''

''पोरणो. 'बायसिकल थीफ'. भुरगेपणांत खूब वर्सांआदीं पळयिल्लो. सध्या परत लागला. तुवें पळयला? बरो सिनेमा. कितलेय खेपो पळयल्यार उबगण येवचिना.''

* * *

गोंयचे सुटके आदले दीस वेगळेच आसले. म्हाका उगडास जाता ते भाशेन कांसावले गांवांत सांजेच्या स वरांच्या अदमासाक लोंढा-मुरगांव गाडी येताली. पांच-धा मिनटांखातीर रेल्वे स्टेशनार जात्रा भरताली. गाडी सुट्टासर जात्रा उलगताली. चारय दिकांनी काम करतले कश्ट करपी लोक त्याच अदमासाक दिसाचें काम सोंपोवन स्टेशनाक लागून आशिल्ल्या बाजारांत येताले. पॅट्रोमाक्साच्या उजवाडांत त्या दिसाची खरेदी करून काळोख जातां जातां घरा परतूंक लागताले. ते उपरांत एके तरेन पुराय गांव न्हिदतालो. सकाळीं उकतीं केल्लीं घराचीं दारां राती वेळार बंद जातालीं आनी घरांत एकाद्री चिमणी वा दिवो पेटलो तरी ताचें किरण दाराभायर येना आसलें.

गांवाक सकाळची जाग येताली ती इगर्जेच्या घांटिंनी वा रेंदेराच्या गितांनी. सगलेच सगल्यांक वळखताले. नवें अशें कांय नासलें. घाण्याक बांदिल्ल्या बैलावरी एका सांच्यांत गांवचे वेव्हार चलताले.

म्हजी पिराय तेन्ना णव-धा वर्सांची आसुंये. ते पिरायेचेरच सगलो गांव हांवें पांयांनी माडयिल्लो. घरानघर हांव वळखतालों. आनी चडावत लोकय म्हाका वळखताले. कोणाल्या पोरसांत लिंबू, काण्णां वा जगमां आसात... जावं तोरांजां वा आंबाडे खंय आसात... कसलीं फुलां खंय मेळटलीं... कोणागेर सुर्णी आसात आनी कोणालें दुरीग मोडलें हें सगलें म्हाका खबर आसलें. आमी वाड्यावयले चार भुरगे जमून सदांच पोरसांतलीं झाडां बुड्डूंक वताले. लुटपाचो एक आनंद आसता. ते धुंदींत आमी फळां, फुलां लुटून हाडटाले. तशें केल्ल्यान झाडांक दुखी बादता, हरवीं फळां बुड्डून फायदो जायना म्हणपाचें गिन्यान आमकां नासलें. कोणय तरी आमकां पळयतालो आनी मागीर घराकडेन येवन कागाळ करतालो. अशा वेळार घरांतले जाण्टेले कागाळ करूंक आयिल्ल्या भाटकारामुखार आमकां चड करून उतरांचो मार दिताले आनी भाटकाराकच आमची काकूळट येताली. तो म्हणटालो, ''तुमी मागून घेयात. पूण पोरसाची वाट लावं नाकात.'' पूण मागून हाडपांत पुरुशार्थ नासता हें भाटकाराक कशें सांगतलो?

घरांत सोदूंक कोणेंय उलो मारलो जाल्यार आमी केल्लें कसलेंय नांवरूप घरच्यांच्या कानार पावलां असो आमकां दुबाव येवंक लागतालो आनी आरोपीन आरोप न्हयकारतना आपले पुरावे मांडचे ते तरेन आमी त्या वेळार थंय कशे नासले हें सिद्ध करपा खातीर, गंडेरीवाल्याक कोळशेवाल्याची साक्ष म्हणची, ते तरेन एकामेकांचे साक्षीदार जावन आरोप परतिताले.

अचकीत एक दीस बापोलयान म्हाका उलो मारलो. आनी विचारलें, ''फाल्यां तुका शाळा आसा?''

प्रस्न इतलो अनपेक्षित आसलो, कितें जाप दिवचें तें म्हाका कळ्ळेंना.

''शाळा आसल्यार आसूं, फाल्यां तूं वचूं नाका. सकाळीं एक मोटार येतली आनी ते मोटारींतल्यान गांवकाराचें कुटूंब हांगा येतलें. तांकां आमचें घर खबर ना. तुवें बाजाराच्या नाक्यार रावन तांकां घरा हाडपाचें आनी जेवले उपरांत तांकां तांच्या बिराडार पावोवपाचें. हें काम तुजें. समजलो?''

खरें म्हळ्यार हांव कांयच समजूंक नासलों. तरी हांवें तकली हालोवन म्हळें, ''म्हजें एकल्याचें?''

''आनीक कितले लोक जाय तर तुका? तुवें फकत वाट दाखोवपाची.'' बापोलयान म्हळें.

त्या दिसा म्हाका हांव जाण्टो जालां अशें दिसलें. म्हजेर एकल्याचेर कसलें तरी काम सोंपयिल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव सदां परस बेगीनच उठलों. आनी शाळा चुकोवन बाजारांत वचून रस्त्याचेर उबो रावलों. शाळेंत वतलीं भुरगीं म्हाका मेळटालीं. साडेइकरा वरांचेर शाळा सुटली तरी हांव बाजारांत उबो. गांवकार कुटुंबाक घेवन मोटार आयली ना. गांवांत एकय मोटार येवंक नासली. त्या दिसांनी मोटार येवप म्हळ्यार अप्रूप. तांबडे मातयेच्या रस्त्यावयल्यान धुल्ल उबयत एखाद्री मोटार गेली म्हणटकच तो धुल्ल खायत ल्हान भुरगीं मोटारिचे फाटल्यान धांवतालीं.

शाळा सुटली तरी मोटार आयली ना. तेन्ना हांव तान लागली म्हणून घरा परतलों. भितर वचून उदक पियेतासर आमच्या मागीलदारांत एक मोटार येवन उबी रावली. येदोय वेळ जे मोटारिची हांव वाट पळयतालों ती आपूण जावन आमच्या दारांत पाविल्ली. घराक वळसो घालून ती फुडल्या दारांत घेवंक ड्रायव्हराक सांगलें. १५-२० मिटरांचें तें अंतर आसलें. तरी हांव फुडल्या सिटाचेर मोठे उमेदीन वचून बसलों.

मोटारींतलीं मनशां घरांत आयलीं. एक बायल आनी दोन भुरगीं. ते भायर एक जाण्टी बायल. मोटार चलयतालो तो ड्रायव्हर अशीं पांच मनशां देंवलीं. म्हाका घरच्यांनी सांगून दवरिल्लें, जे लोक येवपाचे आसात ते मोठे मनीस. तांकां बाब म्हणूंक जाय. तांचेकडेन नम्रतायेन उलोवंक जाय.

भुरगो आसलो तो म्हजेच पिरायेचो. एक दोन वर्सांनी व्हड जातलो. पूण ताका पळयनाफुडें म्हज्या मनांत नसाय उपजली. आमी तेन्ना हाफ पँट आनी हाफ शर्ट घालताले. पांयांत जोतें लेगीत नासतालें. गांवांत भोंवतना जोत्याची गरजय लागनासली. दिसपट्ट्या वापराचे पोरणे कपडे आनी चवथ, दिवाळी, शिगम्याखातीर वा खंयच्याय लग्ना कार्याक घालपाखातीर नवे कपडे आसताले. तो भुरगो वेगळोच दिसलो. राजालो राजकुंवर कसो. ताच्या आंगार लांब पँट आसली. इनशर्ट केल्लें लांब हाताचें शर्ट. दाव्या हाताच्या बोटाक मुदी. उजव्या हाताच्या मनगटाक माश्कोत. ते भायर दाव्या मनगटाक घड्याळ. गळ्याक भांगराची सरपळी आनी जाण्ट्यांनी काडचो तसो केसांचो मागो. पांयांत मेय आनी बूट. आमच्या आंगणांत रेंव आसली तरी ताच्या बुटांचो टक् टक् आवाज आयलो आनी तो घरांत गेलो. दोनय बायलो आदींच घरांत गेल्यो. तांचे फाटल्यान एक चली – जी तेन्ना सोळा सतरा वर्सांची आसुंये. हांवें मनांतल्या मनांत तांचीं नातीं जुळयलीं. चलो आनी चली भाव-भयण. ती बायल तांची आवय आनी जाण्टेली बायल तांची आजी. मागीर गांवकारबाब खंय तर? म्हाका सट्ट जालें. मोटार चलयतालो तोच गांवकारबाब आसूंक जाय. ताणें पुलीस घालतात तसो ड्रेस घाल्लो. माथ्याक चेपें आसलें. हांव ताचेसरी गेलों आनी म्हळें, ''बाब, तुमी भितर येयात. हांव सामान काडूंक मनशाक धाडटां.''

मोटारिच्या टपाचेर सामान आशिल्लें आनी फाटले डिकींतय.

ताणें म्हळें, ''सामान एकदम बिराडाचेर देंवोवया. हांव हांगाच रावतां.''

म्हाका सांगिल्लें, तो एक व्हड मनीस म्हूण. ताचो मान राखूंक जाय. देखून हांवें ताका भितर येवपाचो आग्रो केलो. तो आयलो आनी भायले वटेन कुशीक एका कदेलाचेर बसलो. येदो मोठो मनीस संकोच कित्याक करता तें म्हाका कळ्ळेंना. घरांत त्या वेळार जाण्टो दादलो कोणच नासलो. हांवें भितर वचून आवयक ल्हवू सांगलें, ''गांवकारबाब भायरच बसला.''

दाराकुशीक रावन आवय ताका पळोवन गेली आनी म्हळें, ''तो गांवकारबाब न्हय. तो ताचो ड्रायव्हर.''

मनांत म्हळें, हो इतल्या झेतान भोंवता जाल्यार खासा गांवक
कितल्या झेतान भोंवता आसतलो?

ड्रायव्हराकडेन उलयतकच म्हाका कळ्ळें, गांवकारबाब सांजचे ग
येतलो. तो कसल्या तरी कामाखातीर मडगांवां गेला. मोटारीन आय
तीं दोनय भुरगीं गांवकारबाबालीं. ती बायल भुरग्याची आवय आ
जाण्टी बायल तांची रांदतली.

हो सगळो प्रसंग धोबी तलावसावन माहिम वतना टॅक्सींत म
दोळ्यांमुखार उबो रावलो. तो थाटांत बूट वाजयत भितर गेल्लो तो
तोच हिरू. ताका हिरू म्हणचें काय हिरूबाब म्हणचें हेंच म्हाका कळन
दनपारचें जेवण उलगतकच हांव तांचें बिराड दाखोवंक गेलों. हें
कामाखातीर कांसावले आयिल्लें. देड दोन म्हयने रावलें. त्या दोन म्हय
त्या कुटुंबाकडेन म्हजो खूब लार्गिचो संबंद आयलो. आनी हिरूचो सां
अखंड मेळ्ळो. ताची म्हजी इश्टागत जाली अशें म्हणपाचें धाडस
करचोंना. ताचो तरतरच वेगळो आसलो. त्या मानान हांव गांवढळ दिस
तो हिरू. इतल्या वर्सां उप्रांत मुंबय शारांत म्हाका मेळिल्लो.
मुखार ताणें भिकेचो हात पातळायिल्लो आनी हांवें ताका वळखनास
भिकेचे पयशे दिल्ले.

* * *

एप्रिल-मे म्हयन्यांत कासावलेचे वेळेर वाऱ्याखातीर लागशिल्ले पय
लोक वताले. ल्हानसोच शांत गांव.

त्या दिसा हिरूच्या कुटुंबाक हांवें तागेल्या बिराडाचेर पावयलें
त्या घरांत हांव भितर सरलों तेन्ना म्हाकाच अजाप जालें. सगली ता
वेवस्था. पूण चोख बरी आसली. बरें फर्निचर थंय आसलें. इतलेंच
तर केरोसिनाचेर चलपी एक रेफ्रिजिरेटर आसलो. हिरूल्या घरा
व्हडविकेची गवाय दिवपी ल्हान व्हड वस्त थंय आसली.

मुळांत तें घर एका भाटकाराचें. तो आफ्रिकेक स्थायिक जाल्लो.
चार वर्सांनी केन्नाय गोंयां येतालो. पूण हरशीं तांचें घर बंदच उरताले
त्या दिसा सांजचो गांवकारबाब आयलो. रेल्वेचे गाडयेन देंवलो
थेट आमगेर आयलो. ताका तागेल्या घराची वाट दाखोवपाखातीर म
ताच्या सांगातान वचचें पडलें. गांवकारबाबाक पळयनाफुडें तो कोणय
मोठो मनीस म्हणपाचें कळटालें. तो कासाटो मारून धवेंफुल्ल पुडवें न्हेशि
आनी पांयांक पठाणशूज घाल्ले. इनशर्ट केल्लें रसमी शर्ट आनी ताचें
टाय. तसोच उंची कोट. ताच्या दोळ्यांक भांगराचे फ्रेमिचें वक्ल आ
आनी कोटाच्या एका बोल्साक भांगराची सरपळी. सरपळेच्या दुसऱ्या तो
भांगराची वाटकुळी घडयाळ, जी कोटाच्या वयल्या बोल्सांत दवरि
वयले वयर घडयाळ भायर काडून तो वरां पळयतालो. दाव्या हात
दोन बोटांक तीन मुदयो. मनगटाक भांगराचो पटो आशिल्ली घडय
थाटच वेगळो. हातांत एक रोत. एकेक पावल उखलून तो चलता आर
वाटेवयलो लोक आपसूक कुशीक सरतालो. अशा मोठ्या मनशा सांग
मोटवें कालसांव आनी मोटवें खोमीस घालून हांव उकत्या पायांनी व
तरी गांवच्या लोकांनी म्हाका पळोवचो अशें म्हाका मनापासून दिसत

खुबशीं पुर्तुगेज वाक्यां भरसून गांवकारबाब मर्दींच म्हाका एखाद्रो
विचारतालो. म्हाका पुर्तुगेज समजनासली. पूण हांव ताका जाप दीत राव
म्हाका आतां दिसता, कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हूण तो प्रस्न विचारत
आनी हांव जी जाप दितालों ती आयकून लेगीत घेनासलो. फकत
'हूं' करतालो.

त्या दिसा ताच्या बिराडाचेर ताणें म्हाका आग्रो करून च्या
प्लेटींत मचमचीत तुपाचो शिरो. आनी सगलो मानकुराद आंबो.

गांवकारबाबालो हिरू हो एकलो, एकसुरो चलो.

...र तीन-चार वर्सां हें कुटूंब वर्सान वर्स चुकनासतना कांसावले ...ं येतालें आनी देड-दोन म्हयने रावतालें. त्या वेळार म्हजी हिरूकडेन ...तय जाल्ली. ताचेकडेन एक सायकल आसली. म्हाका तेन्ना सायकल ...क येनासली. सांजच्या वेळार दर्या वेळेर वता आसतना ताणें सायकल ... आनी मदीं मदीं म्हाका चलोवंक दिवची. आतां सारको उगडास ...यं, पूण दिसता, हिरूले सायकलिचेरच हांव सायकल चलोवंक शिकलों.

... हिरू इतल्या वर्सां उपरांत मुंबय अचकीत मेळिल्लो. हिरूलें घर ...ळोवंक ना. पूण तागेले भयणिच्या लग्नाचो म्हाका उगडास जाता. ...ा तरी देवळा म्हऱ्यांतले अगरसाळेंत तें लग्न जाल्लें आनी त्या ... हांवय गेल्लों. पूण ह्या खिणाक हिरूचे भयणिचें नांव वा तिचो ...ळो म्हाका याद जायना.

...जे कल्पनेप्रमाण त्या वेळार हिरू पुर्तुगेज शिकतालो. तो डॉक्टर ...कील जातलो अशें लोक म्हणटाले. हिरू आनी तागेलो बापूय ...ंकडेन पुर्तुगेजींतल्यानच उलयताले. आपल्या चल्याक पुर्तुगेज ...ाची संवंय जावची हे खातीर बापायन ती चाल सुरू केल्ली. तेन्ना ... पुर्तुगेजींतलें एकय उतर समजनासलें आनी ते उलोवंक लागले ...कच हांव मोठे लक्तुबायेन हिरूकडेन पळयतालों.

... हिरूक मोठेपणाचो गर्व आसा म्हणपाचो एक अणभव ते पिरायेचेर ...तलो. सांजच्या वेळार हांव हिरूगेर गेल्लों आसतना हिरूलो मामा ...ो. मामान येता आसतना सफरचंदां हाडिल्लीं. आमच्या भुरगेपणांत ...ंद हें दुर्मिळ फळ आसलें. युरोपाक सावन तीं येतालीं आनी तीं ...चे दांत सगल्यांकच नासताले.

...ान हाडिल्ली पोटली हिरूच्या हातांत दिली. हिरून ती उसयली. ...घेतलो आनी म्हाका म्हळें, ''हीं सफरचंदां खूब म्हारग. हांव एक ... तुका आंबो दिवं?''

...मची परिस्थिती मध्यम वर्गांतली आसली तरी खाणाजेवणाक कांयच ...ासलें. हिरूलो तो प्रस्न आयकून म्हाका अपमान जाल्लेभाशेन दिसलें. ... घट उगडास आसा, तेन्ना हांवें ताका म्हणिल्लें, ''हांव तुमगेर ...आनी सफरचंदां खावंक येना. म्हाका तुजो आंबो नाका आनी सफरचंदय ... आनी गांवांत म्हाका सवंगडी थोडे नात. तुका नाका आसत जाल्यार ...ाल्यांच्यान तुगेर येना.''

...स्या दिसा हांव तागेर गेलोना. सांजचो हिरूच आमगेर आयलो. ...घरांत नासलों. मेयाचो बॉल करून आमी तेन्ना फुटबॉल खेळटाले. ...फाटल्या शेतांत आमची मॅच रंगांत आयिल्ली. खेळ सोंपूंक एक ...ेनटां उरिल्लीं. अशा वेळार आपली सायकल घेवन हिरू ग्रावंडाचे ...क आयलो आनी म्हाका हात करपाचो यत्न करूंक लागलो. पूण ...ताका खऱ्यांनीच पळोवंक नासलो. मॅच सोंपसर तो रावलो आनी ...सोंपतकच म्हजेसरी आयलो. तो म्हाका आपणागेर आपयतालो.

...ळ सोंपतकच आमी शेताचे धडेवयले जांबळिचीं जांबळां काडटाले. ...दिसा हांवें हिरूक जांबळां दिवंक काडलीं. एकेक जांबळ पेरायेदें ...तालें. रसाळ आनी मांसाळ. सगळे भुरगे बचक्यांनी जांबळां खाताले. ...हिरून हांवें दिल्लीं जांबळां घेतलीं नात. ताणें सांगलें, ''आमी ...रांतल्यान जांभळां हाडटात आनी घराकडेन व्हरून तीं धुवन मीठ ... खातात.''

...ाका ताजी काकूळट दिसली. बाजारांत सगळीं फळां मेळटात, पूण ...वयलीं पाडून ताजीं फळां खातना जो आनंद मेळटा तो घरांत कसो ...लो? झाडाक पिकिल्लो अपुरपिको आंबो... ताची आंबट-गोड रूच ... तणांत पिकयिल्ल्या आंब्याक ती कशी येतली? झाडार पिकून ... आपलो घमघम वाठारार पातळायतली बरकय... हरवे आंबाडे... ... आंबल्यो... म्हाका दिसलें, हिरून सगळें खालां. घडये तो दिसपट्टो सफरचंदांच खाता आसतलो. पूण झाडपिक्या फळाची रूच ताका खबरच ना.

कशेंय आसना, हिरूविशीं हांवें वेगळी कल्पना केल्ली. हो मनीस खूब व्हडलो जातलो. घडये सरकारी अधिकारी जांतलो. घडये डॉक्टर, वकील जातलो आनी केन्ना तरी म्हाका ताचो आदार मेळटलो. आदार नासलो तरी एका व्हड मनशाकडेन म्हजी वळख उरतली. पूण त्या चार वर्सां उपरांत हिरूक हांवें केन्ना पळयलोच ना. ताचेविशीं कांय आयकलेंय ना.

तो हिरू इतल्या वर्सां उपरांत इतले लाचार अवस्थेंत म्हज्या जिवितांत परत आयिल्लो. म्हाका दिसलें, फाल्यां सकाळीं ताच्या सांगातान सिनेमा पळोवचो आनी ताच्यो उमेदी भागोवच्यो. फाल्यां सांजच्यो आमच्यो वाटो वेगळावतल्यो. घडये हे जिणेंत त्यो परतून लागीं येवच्यो नात.

सकाळीं मॅट्रो सिनेमाकडेन पावंक म्हाका कळाव जालो. पूण हिरू थंय हाजीर आसलो. म्हजेसरीं येवन ताणें म्हळें, ''सिनेमा बदलला.''

''तरी आमी तो पळोवंया.'' हांवें सुचयलें.

''तुका जाय जाल्यार या. थंडशें बसून उलोवंक मेळटलें.'' हिरून म्हळें.

हिरूचो भेस बदलूंक नासलो. पूण आंगावयले कपडे धवेफुल्ल आनी चकचकीत आसले. पांयांत मात कालचेंच जोतें. वाडिल्लें खाड काडिल्लें आनी केंसय कापिल्ले. जाण्टेपण लिपलेंना तरी तो म्हाका तरतरीत दिसलो.

सिनेमा थिएटर अर्दें रिकामेंच आसलें. आमी बाल्कनिच्यो तिकेटी काडिल्ल्यो. एका कोनश्याक वचून बसले.

''काल हांव तुका वळखूंक नासलों. पूण आतां सगळो उगडास जाला.'' हांवें हिरूक म्हळें.

ताची प्रतिक्रिया कळ्ळिना. तो निखटो हांसलो. हांवेंच फुडें म्हळें, ''तेन्नाचो तुजो थाट वेगळोच आसलो. याद आसा तुका?''

''याद नासूंक कितें जालां? खरें म्हळ्यार गोंय स्वतंत्र जालें आनी आमची दुर्दशा सुरू जाली. आमच्या घराण्यांत शिकिल्लो तो हांव एकलोंच. लिसेवाचेर आसतना पुर्तुगेज शिक्षण सोडून इंग्लीश शिक्षण घेवंक मुंबय आयलों. पूण ते आदींच म्हजो बापूय भायर पडिल्लो. घराणें खूब मोठें. जेवणाखाणाची अडचण नासली. हात खर्चाकय पयशे मेळटाले. पूण म्हजो बापूय आसतना जो दरारो आशिल्लो तो उरलोना.''

''पूण तूं लिसेव सोडून मुंबय येवंक कारण कितें जालें?'' हांवें विचारलें.

हिरून एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो. थिएटरांत उजवाड पालवलो आनी सिनेमा सुरू जालो. कसलो तरी इंग्लीश सिनेमा. आमच्यो नदरो पड्ड्याचेर थिरावलेल्यो. पूण म्हजे कान हिरू सांगतालो ती खबर आयकताले.

''देवाचे कृपेबगर येदी व्हडली गिरेस्तकाय कोणाक मेळना. आनी देवाच्या स्रापाबगर ती गिरेस्तकाय मातयेभरवण जायना.'' आपली खबर सांगून जातकच हिरून म्हळें.

भायर येतकच हांवें ताका विचारलें, ''आज कसलें जेवण जेवंया?''

''गोंयचें आनी नुस्त्याचें. आज म्हाका पोटभर जेवंक जाय. इतल्या वर्सांची भूक एका जेवणान भागोवंक जाय... तुका उपकारता न्हय?''

''सांगातान जेवप म्हळ्यार तूं खाता तितलेंय हांवें खावप असो अर्थ न्हय. आज तुज्या मनासारकें जावंदी. खंय वचुंया सांग.''

''अनंताश्रमांत'', ताणें सुचयलें.

टॅक्सी करून आमी गिरगांवांत गेले. अनंताश्रमांत जेवतना लेगीत हिरू उलयत रावलो. जेवले उपरांत हांवें ताका म्हळें, ''आतां आमी तुज्या रुमार वचून बसुंया.''

तो एकदम गडबडलो. ताणें म्हळें, ''म्हजी इतली काणी आयकतकच त्या रुमांत वचचें अशें तुका दिसता जाल्यार हांव तुका आडावचों ना. पूण म्हाका दिसता, सभ्य मनशान थंय वचचें न्हय. तरी तुवें आग्रो केलो

जाल्यार हांव नाका म्हणचोंना.''

तागेलो संकोच पळोवन हांवें विचार बदललो आनी ताका घेवन हांव म्हज्या एका इश्टागेर गेलों. इश्टाल्या फ्लॅटाचे एके कुडींत बसून आमी थंडसाणेन खबरो केल्यो आनी एका एका प्रसंगांतल्यान हिरूची कर्मकाणी म्हज्या दोळ्यांमुखार उबी रावली.

''तुका फ्लॅट कसो सोडचो पडलो तें कळ्ळें. पूण तुका नोकरी कित्याक सोडची पडली तें तुवें सांगलेंना.'' हांवें म्हळें.

''हांवें एक मोठी चूक केली. पक्षपात केलो. तेन्ना हांव गुप्तहेर विभागांत आसलों. एका अधिकाऱ्याक लांच घेता आसतना धरिल्लो आनी तागेली इस्टेट आमी जप्त केल्ली. पूण खाशेले परिस्थितीक लागून हांवें त्या अधिकाऱ्याक सुटपाची वाट दाखयली. तावे आड आशिल्ले पुरावे दुबळे दवरले... तो त्या वेळार सुटलो. पूण म्हजेआड कागाळ जाली आनी म्हाका डिसमीस केलो.'' एकदम सादेपणान हिरून सांगलें.

''पूण जाका तुवें सांबाळ्ळो ताणें तुका कसलोच आदार दिलोना?''

''तो आनी ताची बायल म्हाका लाखांनी रुपया दिवंक तयार आसलीं. अजूनय तांगेर गेलों जाल्यार म्हजें भाग्य बदलतलें हें जाणां. पूण म्हजे नितींत तें बसना.'' हिरून म्हळें.

म्हाका अजाप जालें. भ्रश्टाचाराचो मार्ग आपणायिल्लो हो आदलो पोलीस अधिकारी नितिची भास उलयतालो. पूण ताका सरळ कांय विचारलेंना.

''तुजे बायलेविशीं सांगूंक तूं कित्याक अनमनता?'' हांवें विचारलें.

''अनमनतां? बायलच ना जाल्यार तिचेविशीं कितें सांगूं?''

''म्हळ्यार, तूं लग्नच जालो ना?''

''ना.''

''पूण काल लग्नाचो विशय काडलो तेन्ना ते विशीं विचारूं नाका अशें तुवें कित्याक म्हळें?''

''म्हजें लग्न थरिल्लें... बापायन थारायिल्लें. म्हजी पसंती कोणें विचारलिना. पूण हांवें जावन तें मोडलेंय ना...''

''अशी कुवाड्याची भास कित्याक उलयता? नोकरी कशी गेली तेंय तुवें सांगलेंना. नोकरी करतना जोडिल्ल्या पयशांचें कितें जालें?''

''तशे पयशे जोडपाचे आशिल्ले जाल्यार लाखांनी जोडूं येताले. पूण हांवें केन्ना लांच घेतलिना आनी लांच घेतल्याची दया केली ना.''

''पूण एका भ्रश्ट अधिकाऱ्याक आदार दिलो अशें तूंच सांगतालो...''

''ती म्हजी लाचारी आसली. आनी ते लाचारींतल्यानच हांव एक कायद्याभायलें अनितीक कर्तुप करून बसलों. ते खातीरच म्हजी नोकरी गेली. फट उलयिल्लों जाल्यार नोकरी वचची नासली. पूण नोकरेर उदक सोडपाचें थारावन हांवें खरें तें सांगलें.'' ताणें म्हळें.

''म्हाका कांयच बोध जायना. तुजी लाचारी कसली? भ्रश्ट अधिकाऱ्याक आदार दिवचे खातीर नोकरी सोडली? कोण तो अधिकारी? मित्र? सोयरो? काय ताणें तुका विकतो घेतलो?''

''हिरूक विकतो घेवपी अजून जल्मूंक ना.'' एकदम उबो रावन छातयेर हात मारून हिरून म्हाका सांगलें.

हांवें ताच्या हाताक धरून ताका बसयलो आनी म्हळें, ''हांव तुजेर आरोप करिना. पूण तूं कितें तरी लिपयता अशें म्हाका दिसता.''

''त्या अधिकाऱ्यान म्हाका पयशे दिवंक केल्ले. हांवें ते घेतले नात. पूण ताची बायल म्हाका मेळूंक आयिल्ली...'' एकदम हिरून जीब चाबली आनी म्हळें, ''उपकार करून तूं म्हाका असले प्रस्न विचारूं नाका. म्हाका कांयच सांगचेलें ना आनी सांगून फायदोय कांय ना. तूं म्हजें चरित्र बरोवंक सोदता काय कितें?''

''जमल्यार चरित्रय बरयन. पूण तूं लिपयता कित्याक? ताचे बायलेक तूं मेळ्ळो आनी विश्वामित्राचो मेनकेन केलो तसो तिणें तुजो तपोभंग केलो?''

''तुका एक सांगतां. हांव अखंड ब्रह्मचारी. बायलांकडेन म्हजो संबंद येवंक ना. पूण म्हजी लाचारी वेगळी आसली. तुका जाय ज हांव सांगतां...''

''सांग.'' हांवें म्हळें. ''तुजी ही आवतिकाय पळोवन म्हाका ख वायट दिसता. तुका शिक्षण आसा. तुज्यांत गूण आसात. पोलीस खात नोकरी गेली म्हणून संवसार बुडलोना. तुका दुसरी मेळूं येताली.''

''नोकरी मेळूं येताली आनी मनांत हाडिल्लें जाल्यार घरा बसून येतालें. पूण हांवें तें केलेंना. दुसऱ्या गांवांत वचून रावं येतालें. सु दिसांनी तसो यत्न केलो. खंयूय गेल्लों जाल्यार दुसऱ्याक फटोव आसलें. म्हज्या मनाक कसो फटयतलों आसलों? म्हजो अध:पात हें म्हाका कळटालें आनी एके भाशेन प्रायश्चित्त घेवपाखातीर हां फकीर जालों. फाटलो फुडलो कोण ना. आई मरत सावन मायेचो उरूंक नासलो. देखून अशे तरेन भोंवप म्हाका उपकारतालें.

''अध:पात कसलो म्हणटा?''

''तूं समजता तसलो न्हय. हांवें कोणाचो गैरफायदो घेतलो ना. मनशाचो तर निखालस ना. सदां उजू मार्गान चल्लों. फट केन्ना उलयल पूण त्या भ्रश्ट अधिकाऱ्याक सांबाळून घेवचो पडलो. हांवें ताका सां घेतलो हो म्हजो अध:पात.''

''पूण लाचारी कसली?''

''लाचारी... लाचारी बेलाची.''

''बेला?'' अजापून हांवें विचारलें.

एकदम तो खशैलो आनी ताणें म्हळें, ''तिचो विचार करून हांवें पं बदललो... आनी पळवाटय ताका दाखोवन दिली.''

धनराज एक गुजराती वेपारी. गोंयांत ताचें ल्हानशें दुकान आसलें. हि बापायकडेन धनराजाची खूब इश्टागत आसली. गांवकारबाब स अधिकारी आशिल्ल्यान आपलें वजन वापरून तो धनराजालीं कामां कर फुडें धनराजान गांवकारबाबाच्या आदारानच आफ्रिकेंतले पुतुगेज वस मोजांबिकेक पेढी घाली आनी ताचें भाग्य फळफळ्ळें. ताणें गोंय तरी गांवकारबाबाची इश्टागत सोडली ना. वर्सांतल्यान एक दोन ख गोंयांत येतालो आनी गांवकारबाबागेरच रावतालो.

बेला धनराजाची चली.

एक खेपे धनराज गोंयांत आयलो तेन्ना बेलाक ताणें आपल्या हाडली. तांकां बोटीवयल्यान उतरावन घेवन पणजे व्हरपाख गांवकारबाबान हिरूक धाडिल्लो. हिरू तेन्ना लिसेवाचेर शिकतालो. दीस बेला आनी धनराज गांवकारबाबाल्या पणजेच्या घरांत उरलीं. चड करून बेलाक, भोंवडावपाचें काम हिरूचेर येवन पडलें. ती ताची वळख.

''आनी पयलो मोगय आसतलो न्हय?'' हांवें हिरूक विचारलें.

''ना. तशी बेला सुंदर आसली. भाशेची अडचण आशिल्ल्यान मर्दी संवाद जायनाशिल्लो. मनांतले उमाळे तिणें उकतायले नात म्हाका सांगचेलें आसलें तें हांव सांगूंक पावलोंना तरी आमची इश जुळ्ळी अशें तुज्यान म्हणूं येत. पूण तो मोग नासलो.''

''तुज्या मनांत नासलो तरी तिच्या मनांत आसूं येता.'' हांवें म्हळें

''तरूण चली तरूण चल्याबरोबर भोंवतना लजेता, संकोचता. ती मोगाची काय कितें तें हांव नकळ. खरें म्हळ्यार हांवय लजेतालों. सु संकोच खूब जातालो. पूण सांगातान भोंवतां-भोंवतां संकोच मोडलो.''

''तुमचो संवाद खंयचे भाशेंत जातालो? तिका कोंकणी येताली?''

''ना. ती जल्मल्ली मोसांबिकेक, पूण वाडली मुंबय शारांत. गुज मोडकी तोडकी हिंदी, इंग्लीश ह्यो भासो ती उलयताली: म्हाका ह्यो भासो येनासल्यो. थोडीशी मराठी आनी थोडीशी इंग्लीश वापरून केन्नाव

रवांनी आमचेभितर संवाद जातालो.''

''तुमकां सांगातान दवरपाफाटलो जाण्टेल्यांचो वेगळो हेतू आसलो काय केतें ?'' हांवें विचारलें.

''हो तुगेलो दुबाव सामको खरो. सुरवेक म्हाका कांयच खबर नासलें. ला परत वतकच म्हज्या बाबान म्हाका सांगलें, फुडल्या जुनांत हांवें इंग्लीश शिक्षण घेवचे खातीर मुंबय वचपाचें. धनराजागेर रावपाची वेवस्था केल्या.''

''हांव शिक्षणाविशीं म्हणना. बेलाविशीं म्हणटालों.'' हांवें म्हळें.

''तेंच सांगतां. त्या वेळार बापायन पयले खेपे सुचयलें, धनराज म्हाका गांवंय करून घेवंक सोदता.''

''आनी तुजी प्रतिक्रिया कितें जाली ?'' हांवें विचारलें.

''म्हाका बेलाविशीं ओड आसली. पूण ती म्हजी बायल जावं येता हे नदरेन केन्नाच हांवें पळोवंक नासलें. हांव मुंबय शिकूंक गेलों तेन्ना धनराजागेर उरतालों. म्हजी बडदास्त बरी दवरिल्ली. तरी थंय म्हजो घुस्मटमार जातालो.''

''बेला आसतनाय घुस्मटमार ?''

हिरू पयलेच खेपे मेकळेपणान हांसलो. ताणें म्हळें, ''घडये बेला आशिल्ली देखून म्हजो घुस्मटमार जातालो जावंक जाय. ती मेकळेपणान वागताली तरी धनराजान तिका कितें सांगिल्लें आसतलें ताची म्हाका कल्पना नासली. सरळ तिका ते विशीं विचारपाचें धाडस जायनासलें. हांव तिका टाळटालों आनी हांवें पळयलें, ती आपूण जावन म्हजेसरीं चुकून येताली. जेवणाच्या मेजार वा भायल्या सालांत बशिल्ल्या वेळार तिची म्हजी भेट जाताली तितलीच. घरांत हेर लोक आशिल्ले. धनराज केन्ना मोसांबिकेक जाल्यार केन्ना मुंबय यो-वच करतालो.''

''कितलीं वर्सां तूं धनराजागेर उरलो ?''

''१९५७-५८ वसमिरेन हांव मुंबय उरलों आनी मुंबय आसतना हांव तागेरच रावलों. मदीं एक खेप धनराज मुंबय आयिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका सरळ सुचयिल्लें, आपलें आनी म्हज्या बाबालें उलोवणें जालां. चड शिकून कितें करचें पडलां ? आपल्या धंद्यांत हांवें लक्ष घालचें अशे तरेची ती सूचक भास आसली.''

''तुवें मुंबय सोडचे आदीं लग्नाविशीं कांयच थारायलें ना ?''

''एक गजाल सांगपाची उरली. हांव मुंबय येवचे आदींच म्हजो बापूय भायर पडिल्लो. पूण धनराज ताका दिल्लें उतर पाळूंक सोदतालो. खरें सांगतलों म्हळ्यार म्हज्या मनाची तयारी जायनासली. गुजराती वातावरणांत मन रमना आसलें. १९५६ वर्सा गोंयची नाकेबंदी जाली आनी म्हाका घरच्यान आवयलो रकाद आयलो. हांवें निमाण्या वर्साची परिक्षा दिल्ली. हांव गोंयांत गेलों. त्या वेळार धनराज मुंबय नासलो. बोरीबंदर स्टेशनाचेर म्हाका पावोवंक बेला आयली. थंय पयलेच खेपे तिणें म्हजे दोनय हात आपल्या हातांत घेतले आनी म्हळें,''तूं परत केन्ना येतलो ?''

हिरून तिका सांगलें, ''पळोवया...''

त्या उतराक तिणें म्हळें, ''तुका जाय तेन्ना यो. हें घर तुजेंच. पूण म्हजेर एक उपकार कर. म्हजो बापूय म्हजें तुजेकडेन लग्न करूंक सोदता. तुवें ते विशीं कितें येवजिलां ?''

हिरू गोंदळ्ळो. तोडून घेतल्यार तिचें मन दुखावतलें अशें येवजून ताणें म्हळें, ''म्हाका कोणें सांगूंकच ना. तरी हांव आईकडेन उलयतां.''

''तशें जाल्यार म्हजेर एक उपकार कर.'' बेलान म्हळें. ''म्हजें एका मित्राचेर प्रेम आसा. तोय गुजराती. तुका मेळचे आदींच आमची वळख आसली. तुवें म्हजेकडेन लग्न करूंक न्हयकार दिलो जाल्यार...''

हिरून तिगेले दोनूय हात थापटिले आनी म्हळें, ''तुजें लग्न तुज्या मनासारकें जावचें हीच म्हजी इत्सा आसतली.''

''ते उपरांत तिचें लग्न जालें ?'' हांवें विचारलें.

''हांव गोंयांत गेलों तो गोंय स्वतंत्र जायसर परत मुंबय पावलोंच ना. पत्रवेव्हारय नासलो. बाबा गेल्ल्याक धनराजाकडचो संपर्क तुटिल्लो. आमच्या घरांत तर सगली उलथापालथ जाली. वांटे जाले आनी म्हज्या वांट्याक पणजेचें घर तितलें आयलें. जीं शेतां आशिल्लीं तीं कुळांक गेलीं. आनी नोकरी केलेबगर धडगत ना अशी परिस्थिती जाली तेन्ना हांव मुंबय आयलों. धनराजागेर उरलों. पूण तेन्ना बेला नासली. घरांत आशिल्ल्यांनी म्हाका रावंक दिलें. पूण 'ही पीडा गेल्यार बरी' अशी वागणूक दिली.''

''बेला नाशिल्ली म्हळ्यार खंय गेल्ली ?'' हांवें विचारलें.

''हांवें वासपूस केली. पूण कोणें सारकी जाप दिली ना. तिचें लग्न जालां आनी ती घोवाबरोबर दुसऱ्या शारांत रावंक गेल्या हें कळ्ळें. पूण ल्हवू ल्हवू अशेंय कळ्ळें की घरच्यांचो लग्नाक विरोध आशिल्लो.''

''ती लग्न जाली अशें कळटकच तुज्या मनाची प्रतिक्रिया कितें जाली ?''

''खऱ्यांनीच बरें दिसलें. तिचेविशीं म्हज्या मनांतली भावना भावाची भयणीविशीं आसता तशी आसली. आजय आसा.''

''खुबसो उलगडो केलो तुवें.'' हांवें हिरूक म्हळें. ''पूण आतां सांग, तूं लग्न जायनासतना रावपाचें एक कारण बेला न्हय मू ?''

''प्रत्यक्ष कारण बेला न्हय. अप्रत्यक्ष आसूं येता. लग्नाचो विचार करता आसतनाच नोकरी गेली. ते आदीं आई गेली. अशीं विघ्नां येत रावलीं आनी लग्न उरलें.''

''पूण नोकरी वचपाक बेला कारण जाली अशें तूं म्हणटालो न्हय ?''

''हय. ज्या भ्रश्ट अधिकाऱ्याचेर आमी छापो घालो त्या भ्रश्ट अधिकाऱ्यान म्हाका लांच दिवपाचो यत्न केलो. पूण हांव आयकना हें पळोवन ताणें कितें करचें ? सांजच्या वेळार हॉटेलांत आपले बायलेक धाडली. हांव हॉटेलांत उतरिल्लों. खास धाड घालुंकच मुंबयच्यान त्या शारांत गेल्लों.''

''ती बायल बेला काय कितें ?''

''हय. ती बेला. तिणें पोरणी वळख सांगली. आपलो पदर म्हज्या पांयाकडेन पातळायलो आनी म्हळें, 'म्हाका भीक घाल...' सिनेमाचे पद्धतींतलो तो प्रसंग आसलो. म्हजें काळीज विरघळ्ळें ना. निमाणें तिणें म्हजेर आरोप केलो. आपूण म्हजेकडेन लग्न जालिना देखून हांवें सूड घेतला अशें तिणें म्हळें. तेन्ना रागाच्या भरांत तिच्या पोल्यार हांवें थापट मारलें.''

''ह्या थापटाखातीर तुका बडतर्फ केलो ?''

''ना. पोलो पोशेत, रडत बेला गेली आनी हांवूय बदल्लों. रातीकडेन हांव तागेर गेलों. हांवें तिगेल्या घोवाक सांगलें, तुका बेडी घालून पोलीस कोठडींत व्हरपाचो अधिकार म्हाका आसा. पूण तूं बेलाचो घोव म्हूण तुका सोडटां... कोर्टान ताका निर्दोश सोडलो. पूण पोलीस अधिकारी म्हूण म्हजेर ठपको दवरलो.''

''तुवें पळवाट कसली दाखयली ?'' हांवें विचारलें.

''थोडेंशें धन आनी भांगर जप्त जाल्लें. हांवें बेलाक सांगलें, तें आपलें अशें तूं कोर्टाक सांग.''

''तिका तें माफ जालें ?''

''माफ जालेंना. टॅक्स भरचो पडलो. पूण तिका जेन्ना वकिलान विचारलें, हें धन तुवें कशें जोडलें, तेन्ना तिणें सांगलें, 'हांव एक सुंदर बायल हें तूं कशें विसरता ?''

सांजवेळ देंवताली. हिरूक ताकीत नासली. हांवें ताका विचारलें, ''इतलेच खातीर तूं असो फकीर जावन भोंवता ?''

''हांव थारावन फकीर जावंक ना. पूण आतां कांय म्हाका कोंब फुटचेनात. ल्हानपणांतल्या इश्टाचें रीण माथ्यार उरतलें.''

''तें विसर तूं'' अशें म्हणून हांवें ताका थोडे पयशे दिवंक काडले. पूण हिरून ते घेतलेनात.

* * *

# डायग्लॉसिया

(पयली खिस्त)

माधवी सरदेसाय

१९५९ वर्सा चार्ल्ज फर्गुजन हांगेलो 'डायग्लॉसिया' हो सोद-निबंद उजवाडा आयलो आनी एके 'विचित्र' भाशीक परिस्थितिचेर संवसाराचें लक्ष गेलें.[1] फर्गुजनाचो अभ्यास अरबी, ग्रीक, स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल ह्या चार भाशीक समाजांतले भाशीक परिस्थितिचेर आधारिल्लो आशिल्लो. लोकांचे जिबेर घोळपी भाशेच्या तरेकवार सभावीक बोलयांचेर लोकांचे जिबेर घोळच नाशिल्ले एके आदले वा 'भायले' बोलयेचो शेक चलता; भाशीक समाज सभावीक बोलयांक 'उणाक' – 'सकयल्यो' बोलयो लेखता आनी असभावीक बोलयेक 'ऊंच' मानून माथ्यार बसयता, असली ही विचित्र परिस्थिती म्हळ्यार डायग्लॉसिया. अरबी भाशीक समाजांत आदले, अभिजात (क्लासिकल) अरबी बोलयेक 'ऊंच' लेखतात. ग्रीक भाशीक समाजांतूय अशीच एके आदले ग्रीक बोलयेन ही सुवात जोडल्या. जाल्यार, स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल भाशीक समाजां भितर 'भायल्या' प्रमाण जर्मन आनी प्रमाण फ्रेंच बोलयांनी म्हत्व जोडलां. ह्या सगळ्या समाजां भितर जित्यो जिव्यो, जिबेर घोळपी थळाव्यो बोलयो सकयल्या पांवड्याच्यो बोलयो जावन खालतेपणान जियेतात.

फर्गुजन डायग्लॉसियेचीं खाशेलपणां दितात —

### १. वापराच्या मळांची वांटणी

डायग्लॉसीक परिस्थितींत 'वयली' बोली आनी 'सकयल्या' बोलयां भितर कामाची वांटणी जाल्ली आसता. भाशेच्या वापराचीं कांय मळां 'वयले' बोलयेखातीर तर कांय 'सकयल्या' बोलयां खातीर नेमून दिल्लीं आसतात. देखीक, इगर्जेंतलीं वा मशिदींतलीं प्रवचनां, सभे माजार केल्लीं उलोवपां, रेडियो, टी.वी. वयलीं बातमी-पत्रां, उलोवपां हांतूंत फकत 'वयले' बोलयेकूच रीग मेळटा. घरांत वा भायर, अनुपचारीक खबरांनी सकयल्यो बोलयो घोळटात. 'प्रतिश्ठीत' साहित्याच्या मळार चडशी 'वयली' बोलीच दिश्टी पडटा. खाजगी पत्रां लेगीत 'वयले' बोलयेंत बरयतात. लोकसाहित्य मात 'सकयल्या' बोलयांनी मेळटा. रेडियो वयल्या नाटकुल्यांनीय 'सकयल्या' बोलयांचो वापर जाता. खबरापत्रांतल्यो खबरो, संपादकीय लेख 'वयले' बोलयेंत आसतात आनी कार्टुनांचीं कॅप्शनां 'सकयल्या' बोलयांनी दितात. शिक्षणाच्या मळार माध्यम म्हूण वयली बोलीच मिरयता. फर्गुजन सांगतात, कांय अरब राष्ट्रांनी माध्यमीक शाळांनी शिकयतना 'सकयल्या' बोलयांचो वापर करपाचेर कायद्यान बंदी आसतनाय शिकयल्लें सारकें समजावन सांगपा खातीर शिकोवप्याक 'सकयल्या' बोलयांचोच आधार घेवचो पडटा.

ह्या, भाशेच्या बोलयांच्या 'वापराच्या योग्य व्याकरणा'क डायग्लॉसीक समाजां भितर खूब म्हत्व आसता. फर्गुजन बरयतात, कोणूय भायलो खंयचीय एक 'सकयली' बोली सामको ब्रे तरेन शिकता आनी तिचोच उपचारीक उलोवप करतना वापर करता तेन्ना ताचें हाशेंच जाता. हेच भाशेन, कोणूय 'भितल्लो' – भाशीक समाजाचोच एक वांगडी – साद्ध अनुपचारीक खबरांनी वा अनुपचारीक प्रसंगार – देखीक, बाजारांत खरे करतना 'वयले' बोलयेचो वापर करता तेन्ना ताचेंय हाशेंच जाता.

### २. प्रतिश्ठा

डायग्लॉसीक भाशीक समाजाचे नदरेन 'वयले' बोलयेकूच प्रतिश्ठा आसत इतलेंच न्हय, जायते फावटीं उलोवप्यांचे नदरेन फकत 'वयले' बोलयेकू अस्तित्व आसता, सकयल्या बोलयांक अस्तित्व लेगीत आसना. फर्गुजना दिल्ल्योच ह्यो देखी पळेयात – एक अरबी भाशीक दुसऱ्या खंयच्या अरबी भाशिकाक 'अरबीच येना' म्हणटा तेन्ना ताचो अर्थ, ताका 'वयलं बोली येना असो आसता. हेच भाशेन, शिकिल्लो सवरिल्लो हायशिय क्रियोल भाशीक आपणाक फ्रेंच भाशिकूच लेखता; आपूण सदां फ्रेंचू उलयता अशें तो मानता. 'वयली' बोली सारकी उलोवंक लेगीत नक आशिल्ले तिका 'सकयल्या' बोलयां परस अदीक सुंदर, म्हत्वाचे विचा मांडपाक अदीक योग्य बी मानतात. 'वयले' बोलयेंतलीं उलोवप काव्य-गायनां बी सारकीं समजनासतनाय आयकुपाक तांकां आवडटा.

फर्गुजन म्हणटात, केन्ना केन्ना धर्मीक कारणांक लागुनूय 'वयल्या' बोलयां ही प्रतिश्ठा आयिल्ली आसता. ते अरबी भाशेची देख दितात. कुरा कोणें मनशान बरोवंक ना, देवान जें कितें सांगलां तेंच तांतूंत आस कुराणाची भास तीच देवाची भास असो मुसलमान मनशाचो भावार्थ. हाव लागून कुराणांतले अरबी बोलये कडेन अरबी समाज पूज्य भावान पळेत कुराणांतली अरबी सगळ्या अरबी बोलयां भितर 'वयली' बोली जाता.

ग्रीक समाजांतूय मात मात अशेंच घडलां अशें म्हणूं येता. बायबला नवो करार 'कातारेवुसा' बोलयेंतूच पळोवपाची ग्रीक लोकांक इतली संवं जाल्ली की १९०३ वर्सा नव्या कराराचो 'दिमोतिकी' ग्रीक बोलयेंतल 'अणकार' उजवाडा आयलो तेन्ना ग्रिसांत खंय दंगे जाले.[2] हायशिय क्रियोल भाशीक समाजांतूय लोकांक अशीच प्रमाण फ्रेंच भाशेंतलेंच बायब पळोवपाची संवंय जाल्या.

### ३. साहित्यीक दायज

'वयले' बोलये कडेन लिखीत साहित्याचें गडगंज दायज आसता. समकाली साहित्याचेरूय ह्या दायजाचो धेंक चलता. 'वयले' बोलयेंतल्या ज्य साहित्याकडेन भाशीक समाज आदरान पळेता, तें एक तर आदल्या काळां निर्माण जाल्लें साहित्य आसता वा डायग्लॉसीक भाशीक समाजा भाय निर्माण जावपी समकालीन साहित्य आसता. अरबी आनी ग्रीक भाशी समाजां भितर साहित्यीक मळार आदल्या काळा वयल्या साहित्याची सत्त चलता जाल्यार स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल भाशीक समाजां

...ल्या', अनुक्रमान, प्रमाण जर्मन बोलयेंत आनी प्रमाण फ्रॅंच बोलयेंत ...िंग जावपी साहित्याचो शेक चलता. आदल्या काळा वयल्या साहित्याचो ...र्श मानून घेतिल्ल्या भाशीक समाजांतले साहित्यकार जायते फावटीं ...या साहित्यांतल्यान पोरणीं, काळा भायर जाल्लीं उतरां वा वाक्प्रचार ...न काडून आपणाल्या बरपांत तांचो वापर करतात वा पोरण्यो वाक्य ...य आपणायतात. वाचतल्यांक असलें बरप सोंपेपणान – कोश उकते ...र बगर वा कोणा जाणकाराक विचारले बगर समजना. तरी ते ताका ...ब आनी 'खरेलें' साहित्य म्हूण तोखेतात.

### ...भास शिकपाची तरा

...लॉसीक समाजांत घरगुती वाटारांत 'सकयल्यो' बोलयोच घोळटात. ...य-बापूय भुरग्यां कडेन आनी भुरगीं आवय-बापाय कडेन ह्याच बोलयांनी ...लतात. देखून, ह्यो बोलयोच भुरगीं घरगुती वातावरणांतल्यान 'आपले ...पण' शिकिल्लीं आसतात, आवय-भास शिकचीं तशीं. त्यो तांकां 'मुद्दाम ...यले बगर' **आयिल्ल्यो** आसतात. 'वयली' बोली अर्दी मर्दी तांच्या ...र पडटाच. पूण ती तांकां मुद्दाम शिकयले बगर कशीच येना. 'सकयल्या' ...यांचेर प्रभुत्व जोडिल्लीं भुरगींच उपरान्त उपचारीकपणान 'वयली' ...ली शिकतात. दुसरी खंयचीय भास शिकची, तशीं. 'सकयल्या' बोलयांचें ...रण तांणी भाशेच्या प्रयोगांतल्यानूच आत्मसात केल्लें आसता; तें ...कोणें शिकयल्लें नासता. 'वयले' बोलयेचें व्याकरण मात, जायते ...टीं, तीं नेम 'पाठ करून' शिकयतात.

### ...प्रमाणिकरण

...ले' बोलयेक व्याकरणीक अभ्यासाचेंय दायज आसता. ती कशी उलोवची, ...बरोवची, खंयच्या प्रसंगार तिची खंयची शैली उपकारावची हाचे ...व्याचे नेम घालून दिल्ले आसतात. हे बोलयेचीं व्याकरणां बरयल्लीं ...तात, तिचे कोश तयार जाल्ले आसतात. सगळ्या आंगांनी तिचें ...णिकरण जाल्लें आसता. वेगळेपणाक तिचे भितर भोव थोडो वाव ...ता. हाचे उरफाटें, 'सकयल्या' बोलयां भितर वेगळेपणाक खूब वाव ...ता. तांचे बरपाचे नेम सारके थरिल्ले आसनात. उच्चारण, व्याकरण, ...वळ – खंयच्याच आंगान तिचें प्रमाणिकरण जाल्लें आसना. तांचीं ...ल्लीं व्याकरणांय चडशीं आसनात. आसलींच जाल्यार तीं चडशीं ...ल्या जाणकारांनी, भायल्या भासांनी बरयल्लीं आसतात.

...डायग्लॉसीक भाशीक-समाज ल्हान आसता. आनी तार्चे संपर्काचें एक ...ल केन्द्र आसता तेन्ना हेर वाटारांतले लोक ह्या केन्द्रांतले बोलयेचें ...करण करूंक लागतात आनी अशे तरेन भाशेचें सभावीक प्रमाणूय ...ार घेवंक लागता. केन्द्रांतली बोली पुराय भाशीक समाजाची मुखेल ...ी जाता. अथॅन्सांतली शिक्षीत वर्गाची बोली – दिमोतिकी अशी ग्रीक ...ची सभावीक प्रमाण बोली जाल्या. पूण तरी 'वयले' कातारेवुसाची ...जांतली सुवात ती हालोवंक पावूंक ना. दिमोतिकी फकत 'सकयल्या' ...यां मदली मुखेल बोली जाल्या. तिच्या वापराचो विस्तार जावंक ना. ...डायग्लॉसीक समाज व्हडलो आसता आनी खंयचोय एक वाटार तार्चे ...र्काचें केन्द्र आसना, तेन्ना भाशेचीं कितलिंशीं थळावीं सभावीक प्रमाणां ...र सरूं येतात. अरबी भाशेचे बाबतींत अशें घडलां. देखीक, कायरो ...ांतली अरबी इजिप्तांतल्या अरबी बोलयां मदली प्रमाण बोली जाल्या. ...वाटारांतले इजिप्तांतले अरब 'वयले' अरबी बोलये वांगडा कायरोंतली ...बीय शिकतात. पूण ही अरबी ते फकत उलोवपा खातीर वापरतात.

### ...थिराय

...डयांनी वर्सां समाजांत डायग्लॉसीक परिस्थिनी उरूं येता. फर्गुजन म्हणटात, कांय समाजां भितर डायग्लॉसियेन हजार वर्सांय हुपल्यांत म्हणपाचें दाखोवन दिवं येता. जायते फावटीं डायग्लॉसियेक लागून आयिल्ले संपर्काचे ताण सदळ करपाच्यो भाशीक माण्ण्योय समाज आपशींच सोदून काडटात. डायग्लॉसीक समाजांत वापराच्या मळार भाशेचीं तात्पुरतीं 'मदलीं' रुपां जल्माक येतात. अरबी भाशेचे बाबतींत अशें घडलां. उतरावळिच्या आंगान चडशें अभिजात अरबीक लागीं आनी व्याकरणाच्या आंगान चडशें जिबे वयले अरबीक लागीं. हे तरेचें अरबी भाशेचें एक 'काम चलाऊ' रूप लोकांचे जिबेर घोळिल्लें पळोवंक मेळटा. ग्रीक भाशीक समाजांतूय अशीच एक मिश्र भास खबरांपत्रांच्या मळार घोळिल्ली दिसता.

### ७. व्याकरण

'वयली' बोली आनी 'सकयल्यो' बोलयो हांचे भितर व्याकरणी बांदावळिचीं खूब वेगळेपणां आसतात. देखीक, अभिजात अरबी भाशेंत तीन विभक्ती मेळटात आनी त्यो नामां फाटल्यान लागपी कुसांतल्यान उकत्यो जातात; जिबेवेल्या अरबी बोलयांनी विभक्तिचे हे भेदूच नात. फ्रॅंच भाशेंत नामांक लिंग आनी वचन लागता जाल्यार हायशियन क्रियोलींत नामांक हे दोनूय भेद लागनात. असले तरेच्यो बारिकसाणी हिसपांत घेवन फर्गुजन म्हणटात, 'वयले' बोलयेच्या व्याकरणा परस 'सकयल्या' बोलयांचीं व्याकरणां सोंपींय आसतात अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. अरबी, ग्रीक आनी हायशियन क्रियोल ह्या भासां संबंदान तरी अशें दुबावा विरयत म्हणूं येता म्हणपाचें ते दाखोवन दितात.

### ८. उतरावळ

'वयली' बोली आनी 'सकयल्यो' बोलयो हांचे भितर समान उतरावळ खूब आसता. जांकां 'सकयल्या' बोलयांनी समानअर्थी उतरां मेळनात अशीं फकत 'वयले' बोलयेंत मेळपी कितलिंशीं उतरांय वेगळीं काडूं येतात. तशीं, जांकां 'वयले' बोलयेंत समानअर्थी उतरां मेळनात अशीं फकत 'सकयल्या' बोलयांनी मेळपी कितलिंशीं उतरांय पेल्यान काडूं येतात. उतरावळिचें हें वेगळेपण भाशेच्या वापराच्या मर्यादांक लागून आयिल्लें वेगळेपण. तांतूंत व्हडलेंशें अजाप ना. पूण डायग्लॉसियेंत उतरावळिच्या मळार आमकां वेगळीच एक गजाल पळोवंक मेळटा. 'वयले' बोलयेंतलीं उतरां आनी 'सकयल्या' बोलयांतलीं उतरां अश्यो कितल्योश्यो समानअर्थी उतरांच्यो जोडयो आमच्यांनी लावं येतात. देखीक, अभिजात अरबींत ''पळे'' म्हळ्यार **ra'ā** आनी हेर अरबी बोलयांनी ''पळे'' म्हळ्यार **Šāf**. कातारेवुसा ग्रीक बोलयेंत ''वायन'' म्हळ्यार **ínos** आनी दिमोतिकींत ''वायन'' म्हळ्यार **krasi**. अनुपचारीक वापरांत **ra'ā** आनी **ínos** केन्ना येना आनी उपचारीक वापरांत **šāf** आनी **krasi** केन्ना येना. देखीक, हॉटेलांतल्या मेनू कार्डार **ínos** बरयल्लें आसता आनी वेटराकडेन ऑर्डर दितना मात गिरायक **krasi** म्हणटा. अशे तरेन उतरांच्या वापरावेल्यानूच बोलयेच्या वापराचो अदमास लावं येता.

### ९. नादांची बांदावळ आनी वेवस्ता

'वयली' बोली आनी 'सकयल्यो' बोलयो – दोनूय बोलयांच्या मुळाक नादांची एकूच बांदावळ पळोवंक मेळटा. 'सकयले' बोलयेची नादवेवस्ता मुळावी आसता. जायते फावटीं 'वयले' बोलयेचीं कांय स्वनिमां 'सकयल्या' बोलयांनी नासतात. असल्या वेळार तांची सुवात 'सकयल्या' बोलयांतलीं स्वनिमां घेतात.

डायग्लॉसियेच्या ह्या सगळ्या खाशेलपणांचेर उजवाड घालून जातकच फर्गुजन हे भाशीक परिस्थिती संबंदान उप्रासपी तीन प्रस्नांक जापो दिवपाचो

यत्न करतात – १) भाशेची प्रमाण बोली आनी तिच्यो हेर प्रमाणेतर थळाव्यो बोलयो – ही संवकळिची भाशीक परिस्थिती आनी डायग्लॉसीक परिस्थिती हांचे भितर वेगळेपण कितें? २) थळाचे, काळाचे तशे भाशे-कुळांच्या आंवाटाचेय नदरेन डायग्लॉसीक परिस्थितिची व्याप्ती कितलिशी? आनी ३) डायग्लॉसिया कशी जल्मा येता आनी डायग्लॉसियेंतल्यान दुसरे खंयचे भाशीक परिस्थितीक वाट मेळूं येता?

ह्या प्रस्नांच्यो तांणी दिल्ल्यो जापो–

१) डायग्लॉसीक समाजांतली 'वयली' बोली त्या भाशीक समाजांतल्या खंयच्याच पंगडाची वा म्हणुंया, पोट-समाजाची दिसपट्ट्या, साद्या, किरकोळ संभाशणाची बोली आसना. भाशेची सभावीक प्रमाण बोली भाशीक समाजांतल्या खंयच्या तरी पंगडाची, पोट-समाजाची दिसपट्ट्या किरकोळ भाशीक वेव्हाराची बोली आसता. डायग्लॉसीक बोली केन्नाय कोणाय उलोवप्याचे जिबेर किरकोळ वेव्हाराची बोली जाता तेन्ना एक तर ह्या उलोवपाक पुस्तकी उलोवपाची सया मारता – तें कृत्रीम – अडेचें कशें दिसता (अरबी, ग्रीक भासांचे बाबतींत अशें घडटा) वा, असल्या वापराक लागून उलोवप्याचे भाशीक समाजा कडले निश्ठेचोय आयकुपी दुबाव घेता (स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल समाजांत अशें घडटा).

२) डायग्लॉसिया संवसारभरच्या वेगळ्या वेगळ्या कोनशांनी, वेगळ्या वेगळ्या काळांचेर आनी वेगळ्या वेगळ्या भाशेकुळांतल्या भासांनी पळोवंक मेळटा.[3]

हांगा फर्गुजन भारतांतल्या तमीळ भाशीक समाजाची देख दितात आनी डायग्लॉसियेची संकल्पना तमीळ भाशेक कशी ज्युस्ताजुस्त लागू जाता तें सांगतात. आदल्या काळार लेगीत डायग्लॉसिया आसताली म्हणपाचें दाखोवन दिवंक ते मध्ययुगांतले येवरोपांतले भाशीक परिस्थितिची देख दितात. मध्ययुगांत येवरोपांत लॅटीन भाशेचो 'वयले' बालयेचो जावचो तसो वापर जातालो आनी लॅटीन भाशेच्यो इटॅलियन, फ्रँच, पुर्तुगेज, स्पॅनिश बी धुवो भाशीक वेव्हाराच्या 'सकयल्या' मळांनी घोळटाल्यो.[4] चिनी भाशीक समाजांतूय सगळ्यांत व्हडल्या प्रमाणाचेर डायग्लॉसिया पळोवंक मेळटा म्हणपाचें फर्गुजन सांगतात. चिनी भाशेची एक 'वयली' बोली आसा तशी एक सभावीकपणान मुखार आयिल्ली प्रमाण बोलीय आसा. इतलेंच न्हय, तर तिचीं कितलिंशीं 'सकयलीं' रुपां आसात आनी तीं वेगळ्यो भासो म्हणूं येत इतलीं वेगळीं आनी स्वतंत्र आसात, ही म्हायती दिवन फर्गुजन म्हणटात, आयज चिनी भाशीक समाज डायग्लॉसीक परिस्थितींतल्यान भायर सरून प्रमाण बोली आनी हेर बोलयो असले 'सभावीक' भाशीक परिस्थिती कडेन वचत आसा.

३) एका खाशेल्या 'वातावरणां'त डायग्लॉसिया जल्मा येता – १) समाजाचे सभावीक भाशेचे एके इतिहासीक बोलयेंत वा, हे भाशेच्या लागिंच्या नात्यांतले दुसरे एके भाशेंत गडगंज साहित्य आसता आनी हें साहित्य धार्मीक वा सांस्कृतीक नदरेन भाशीक समाजाक भोव म्हत्वाचें आसता; २) भाशीक समाजाचो एक ल्हान वांटोच बरोवंक-वाचूंक जाणा आसता. आनी, ३) १ आनी २ वयल्यान शतमानांचीं शतमानां उलगतात तेन्ना समाजांत डायग्लॉसिया मूळ धरता. 'दोन कुडक्यांची' डायग्लॉसीक भाशीक जीण जियेतात तांकां ती 'विचित्रू'य दिसना आनी तिचे पसून त्रासूय जायनात. काळ बदलूंक लागता तेन्ना मात डायग्लॉसियेची भाशीक समाजाक आडखळ जावंक लागता. बरोवप-वाचप समाजांतल्या सगळ्या थरां कडेन पावता, समाजाक सगळ्या पोट-समाजां कडेन संपर्काचे नदरेन एकवट साधचो अशें दिसता आनी, राजकी गरजांक लागून भाशीक समाजाक एके राष्ट्रभाशेची / राजभाशेची गरज जाणवूंक लागता तेन्ना डायग्लॉसीक भाशीक-समाजूच हे 'विचित्र' परिस्थितींतल्यान वाट काडूंक आंवडेता. जिणेच्या सगळ्या मळांचेर खंयचें तरी एक रूप – 'वयलें', 'सकयलें' वा ह्या दोगांयचे भरसणुकेंतल्यान तयार जाल्लें 'मिश्र' रूप घोळूंक पाव... हे दिकेन ह्या समाजांतले फुडारीच वावरूंक लागतात. आनी समाज... मनार घेतलें जाल्यार शेंकड्यांनी वर्सां सावन चलून आयिल्ले डायग्लॉसियेचें बांदावळ कोंसळुनय पडटा. असल्या वेळार, डायग्लॉसीक परिस्थितींतले 'वयली' बोली खंयच्या तरी भाशीक समाजांतली प्रमाण बोली आसत... तेन्ना डायग्लॉसीक परिस्थितींतल्यान भायर येवपी भाशीक समाजाची ती प्रमाण बोली जाता आनी आदलो डायग्लॉसीक भाशीक समाज मायल्य... सम भाशीक समाजाचो (भाशीक नदरेन) वांटो जावन बसता. 'वयली' बोली अशी खंयच्याच समाजांतली प्रमाण बोली आसना तेन्ना ती इल्ल... इल्ली वापराभायरी जाता. फकत धर्मीक मळार तिचो वापर जाता आ... कांय जाणकार तिचो अभ्यास करतात आनी खंयची तरी एक 'सकयली' बोली वा एक मिश्र भाशीक रूप प्रमाण रूप म्हूण वयर सरता. भाशी... समाजाचें संपर्काचें एक केन्द्र आसता तेन्ना त्या केन्द्रांतली बोली प्रमा... बोली म्हूण मुखार येता. संपर्काचें एक केन्द्र नाशिल्ल्या समाजां भित... वेगळीं वेगळीं थळावीं प्रमाणां वयर सरतात.

निबंदाचे निमाणे कडेन फर्गुजन तांणी अभ्यास केल्ल्या चार डायग्लॉसी... भाशीक समाजांची मुखावयल्या दोन शतमानांत, म्हळ्यार २१५० मेरे कसली परिस्थिती आसतली ताचें 'ज्योतीश' करतात. ते म्हणटात स्विस-जर्मन भाशीक समाजाचे परिस्थितींत व्हडलोसो बदल घडिल्ल... आसचोना. अरबी भाशीक समाजांत 'वयले' बोलये कडल्यान भरपू... उतरावळ घेतिल्लीं अरबी भाशेचीं कितलिंशीं थळावीं प्रमाणां (माग्रेबी प्रमाण, अिजिप्शियन प्रमाण, पुर्वेकडलें प्रमाण, सिरियन प्रमाण, सुदानीज प्रमा... बी) वयर सरतलीं. हायशियन क्रियोल समाजांत पोर्त-ओ-प्रांसा... 'सकयली' बोली प्रमाण म्हूण वयर सरतली.ग्रीक समाजांतूय वयले बोल... कडल्यान भरपूर उतरावळ घेतिल्ली अथेन्साची ग्रीक बोली, भाशेचें एकवटी प्रमाण म्हूण वयर येतली.

फर्गुजनाच्या निबंदाचो हो आपरोस. पयसुल्ल्या अरबी, ग्रीक, स्विस-जर्म... आनी हायशियन क्रियोल समाजांचें हें वर्णन. ह्या हारशांत कोंकणी समाजाव... चड करून गोंयकार हिंदू कोंकणी समाजाक, आपणालें रूप दिश्टी पड... बगर कशें रावतलें? शंबर वर्सां फाटीं वचुंया. शंबर कित्याक, पन्नासू... वर्सां फाटीं गेल्यार पुरो.

[मुखार चलत...

* * *

१. Ferguson, Charles A. 1959. **Diglossia in Language in Cultur... and Society** ed. Dell Hymes 1964: 429-439 (Indian reprint: Allie... Publishers, New Delhi.)

२. 'कातारेवुसा' आनी 'दिमोतिकी' हीं अनुक्रमान 'वयल्या' आनी 'सकयल्य... ग्रीक बोलयांचीं नांवां. डायग्लॉसीक भाशीक समाजां भितर अशीं 'वयल्या' आ... 'सकयल्या' बोलयांक खेरीत नांवांय आसतात.

३. आपणालो डायग्लॉसियेचो अभ्यास **बरोवंक वाचूंक जाणा आशिल्ल्याच** भाशी... समाजांतले परिस्थितिचो म्हणपाचें सांगून फर्गुजन म्हणटात, बरोवंक वाचूंक नक... आशिल्ल्या आनी मौखीक साहित्याचें दायज आशिल्ल्या भाशीक समाजांनी डायग्लॉसिया आसूं येता.

४. भारतांतूय आदल्या काळार संस्कृत 'भाशे'क अशीच प्रतिश्ठा आशिल्ली आ... प्राकृत 'बोलयां'चेर तिचो धेंक चलतालो. हीय डायग्लॉसियेचीच एक देख.

# दोंगराचो बाबा

प्रकाश पर्येंकार

दोंगराचो बाबा जोत घेवन वांयगणांत वतालो तो बद्द वांयगण लुवून ःन घरांत पाव मेरेन घराचें तोंड पळयनासलो. घराकडल्यान चलून ा-अडेज वरांचे वाटेर वांयगण. वांयगणाच्या मुखावयल्यान म्हादय न्हंय ावता. तशेंच सरभोंवतणी दाट रान. ह्या वांयगणाक तेंकून लागीं गांव ः -शेंकड्यांनी वर्सा पयलीं कडवळ-पेंढाळ सारकेले गांव ह्या रानांनी ाल्ले. पूण प्लेगाक लागून हे गांव पुराय उध्वस्त जाल्ले. जे कोण ाले ते गांव सोडून दुसरेकडेन पळून गेले. दोंगराच्या बाबाच्या घराण्यानूय ा वेळार आपलो गांव सोडिल्लो. हें वांयगण म्हळ्यार दोंगराच्या बाबाच्या ाण्याची कुरू. ताच्या पुर्वजांची याद...

दोंगराचो बाबा वांयगणांत जोत घेवन वचचे म्हयनोभर पयलीं टली-पोटली घेवन थंय रावूंक वता. खोंप सारकी करता. वांयगणाक ाक पाजपाक म्हादय न्हंयक आडवो बांद घालचो. जोत धरपाक. वांयगणाची ः करपाक ताका दुसरो मनीस लागनासलो. वांयगण रोपच्या वेळार ा घरचीं सगळीं वांयगणाकडेन रावंक येवचीं. वांयगण रोपून जातकच मागीर घरा वचचीं. पूण दोंगराचो बाबा मात आपली खोंप सोडून ायच वचनासलो. तो त्या अटंग्या रानांत एकलोच रावतालो.

म्हादय न्हंयचेर बांद घालपाक ताका पंदरा-वीस दीस लागचे. बांद नी वांयगणा मदलें अंतर सादरण एक किलोमिटर आसलें. ताणें व्हडा श्टान चर मारून उदक वांयगणांत पावयल्लें. खोंपी फाटल्यान चार ळबेय रोयिल्ले. एक दोन कवाथेय आतां फुटाक आयल्यात.

घरा येतकच गांवच्या कांय भुरग्यांनी ताका म्हणचें, ''दोंगराच्या बाबा ामी तुजे बरोबर वांयगणांत केन्ना येवं?''

''तुमकां जाय तेन्ना येयात.''

''आमी येतात. पूण आमकां माशे खावंक मेळटले मरे?''

''तुमी खातलेच जायात...'' अशें म्हणत दोंगराच्या बाबान तांकां कोमार ाडचे. मागीर ते एकदीस पेट्रोलमॅक्स दिवो आनी सामान-सुमान घेवन ंगराच्या बाबावांगडा वांयगणांत वचचे. दोंगराच्या बाबाकडेन बालें आशिल्लें. ापूण एकलो आसतना ताणें नेमान न्हंयंत बालें घालचें आनी माशे येतिश्ट ावंचे. गांवांतसून असो कोणूय येतकच ताका खूब बरें दिसचें. ते राती ळये, खरचांडयो आनी घोळश्यांच्यो राशी पडच्यो. जेवन-खावन जातकच ायल्यो-पयल्यो गजाली जावंच्यो. आयकतलो ताच्यो गजाली आयकतच ावचो. दोळ्यांत न्हीद रिगसर...

दोंगराच्या बाबाचो राबितो रानांत आसलो तरी ताका केन्ना आर्म हातांत वपाची वान्सा जाली ना. त्या रानांत कोणूय कासादोर पावल्यार दोंगराचो ाबा आसूं-नासूं, ते राबित्याक ताचे खोंपींत येवन रावचे. तांकांय ते ांपिचोच आदार. दोंगराचो बाबा खोंपींत आसतकच ते कासाक यो म्हण ाका फोर्सार करचे. तेन्ना दोंगराचो बाबा म्हणचो, ''तुमचे वांगडा जागरणां करपाक म्हाजेकडेन जावंचेंना. दीसभर काम करून जालां पुरो.''

दोंगराचो बाबा कितें न्हय कितें करीत आसचो. वांयगणाची मेरान मेर भोंवून वांयगण नियाळचें. वांयगणान एखादें सावद पावलां जाल्यार ताचो माग पळोवंचो. मागीर ताणें रानांत वचून कुमयाचे दोर काडून हाडचे. न्हंयचेर गुण्यार धरून बडोवंचे. वताक बरे सुकोवंचे... वेळ मेळटा तसो खोंपींत बसून त्या कुमयांच्या दोरांच्यो दोरयो वळच्यो. गांवांतले चडशे गोरवांकार ताचेच कडल्यान दावीं, दांवल्यो आनी कानयो करून घेवंचे. 'दोंगराच्या बाबाकडसून घेतिल्ल्या दाव्यांक चार-पांच वर्सां भंय ना' अशी ताची तुस्त तोखणाय जावंची. 'दोंगराच्या बाबा' आमकां थोड्यो घरवेली जाय आसल्यो. घर सामकें कडणेक येयलां. अनू कडणी केली ना जाल्यार नळे सकयल देंवतले' असो कोणूय काकुळटेक येतकच दोंगराचो बाबा ताका धीर दीत म्हणटालो, ''तुका जायो तितल्यो घरवेली काडून दवरतां. एक दीस व्हरोंक मात यो.'' दोंगराच्या बाबाक खंयच्या दोंगरार खंय कितें आसा तें ज्युस्त खबर आशिल्लें. घरवेली, बेतां, पालकोणी, घुरमवेली, शेळो असल्या वस्तुंची ताका खोलायेन म्हायती आसची. रानांतले खंयचेय वस्तुची म्हायती जाय पडली जाल्यार कोणेंय बद्द दोंगराच्या बाबाकडेन येवंचें आनी तकली खाजयत आपणाक जाय ती म्हायती विचारची. नाणो, झांबो, करमळ, नागीण, किंजळ, मारट, चिंवर अशीं शेंकड्यांनी झाडां ताचे वळखिचीं. नाण्याचें झाड खंयच्या वेळार आपली साल सोडटा, खंयच्या झाडाची साल वखदी, खंयच्या झाडाचो पालो दुखण्याक वापरतात, कसल्या दुयेंसाक खंयच्या झाडाचें पाळ झरोवन दिवचें हेंवूय ताका ज्युस्त खबर आशिल्लें. इतल्या आंवाठाक वखद ताच्याच हातांतल्यान वयचें. ताचें घर म्हळ्यार एक फर्मास कशी. कितलिंशींच वखदी पाळां ताचे सांगशेंत आसचीं. दोंगराच्या बाबाचो हातगुणूय बरो आशिल्लो. घराकडेन आसतना कोण एकलो चड बरो ना जाल्यार रातचो ताका उठोवन घालतालो. मागीर दोंगराचो बाबा एका हातांत बॅटरी दिवो आनी दुसऱ्या हातांत दांडो घेवन रातचोच रानांत रिगचो आनी कसलो तरी पालो घेवन येवंचो.

रानांत वचपाक घरांतल्यान भायर सरतना ताच्या खांदार गीम-पावस कांबळ आसची. आकडेक कोयतो. हातांत पाळुकी, पांयांत चामड्याचीं जोतीं. कमरेक बोलशी. कानाक कुड्याची विडी. न्हेशिल्ल्या वाल्याचे गांठीक तंबाकू, माथ्याक वाल्याचो मुंडासो... आनी आंग मात उकतेंच. तो गांवांतल्यान चलपाक लागतकच ताच्या चामड्याच्या जोत्यांचो चर्रऽ चर्रऽऽ असो आवाज जावंचो. हीं चामड्याचीं जोतीं तो शेजारच्या गांवांत आशिल्ल्या चामाराकडल्यान करून घेतालो. नवीं जोतीं हाडटकच ताका तो शेरभर खोबरेल तेल खावयतालो. जोत्याक तेल घालतकच ताचो रंग काळोच जावंचो. तेलाक लागून पावला कणकणी चर्रऽ चर्रऽऽ असो आवाज जावंचो. कोणेंय जोत्याविशीं विचारतकच ताणें म्हणचें, ''तुमचीं तीं फटफटीं जोतीं

घालात दुलींत. म्हजो जर एक पांय पडात जाल्यार तुमच्या पांयाचें तोकटेंच वयतलें.'' आपल्या जोत्याची व्हडपीक ताणें बरी पीठ-मसालो लावन सांगची. आपले पांय थंड उरतात. जोत्याच्या आवाजान रातचीं वाटेवयलीं जिवाणीं कशीं पळटात. जोत्याक कांटो आरपार कित्याक जायना...

दोंगराच्या बाबान विडी केन्ना विकती घेतली ना. आनी विडी चकमका बगर पेटयल्ल्याची ताका याद ना. वांयगणांत आसतना रानांत वचून तो नागूल कुड्याचे ताळे घेवन येतालो. ते ताळे ताणें सुकोवंक घालचे. तिनसांजच्या वेळार ताचेर मात्सो दंव पडटकच त्या ताळ्यांचीं पानां मोडून ताणें ताच्यो मोवळ्यो बांदच्यो. अश्यो तो शंबरांवयर मोवळ्यो बांदतालो. ह्यो मोवळ्यो ताका पावसभर पावच्यो. रातीकडेन शेन्तां कातरून दुसऱ्या दिसा आपणाक जाय तितल्यो विडयो ताणें बांदच्यो. गिमाच्या दिसांनी एकाद्या भिल्ले माडार चडून धुबो काडून दवरचो. भायर सरून खंयूय वयतना बोलसेंत घुबो, चकमक आनी गुणो आसा काय ना हाची खात्री करून घेवंची. रानांत कांट्या-बुट्टांत भोंवून पुरो जातकच एकाद्या तळपार ना जाल्यार झाडाचे शितळ सावळेंत बसून ताणें विडी ओडची.

दोंगराच्या बाबाचें नांव आटयो गांवकार. ताका दोंगराचो बाबा नांव कशें पडलें हाका मोठी फाटभूंय आसा. आटयो पंदरा-सोळा वर्सां पिरायेचो आसतना खांदार कुराड उडोवन कुमेरी शेत हणपाक गेल्लो. सरकारान कुमेर शेत बंद उडयसर आटयान शेत हणलें. बेतीचें पाणी, दोबाचो दोंगर, धामण सरी, तमुचो कणो अशा साबार दोंगरांचेर ताणें गांवच्या लोकां वांगडा शेत हणून खाणयांनी नाचणे घरांत हाडले. चार-पांच जाणांची सावड तशेंच गांवसावडी मेरेनच्या शेताचो ताणें अणभव घेतिल्लो. झाड कशें हडप, पाशाणी कशी करची, शेताक उजो केन्ना घालचो, नाचणे केन्ना पेरचे... हातूंत तो निपूण जाल्लो.

शेत सावडीक केल्यार एका गवळांत वीस-पंचवीस लोक आसचे. नडणे वेळार दिसावयलें नडप-काडप जातालें. आटयाचो शेव सगळ्यांच्याकय मुखार पावचो. शेत नडून शेव राखणे वेळार आटयो दोंगराचे दोंगर गरगरून भोंवचो. व्हाळार वचून कुल्ल्यो धरून हाडचो. दुसऱ्या एका तेमकार वचून भाजये खातीर कणकिचे कोंब घेवन येवचो. शेतांत तरातरांचीं भुजावणीं तयार करून लावचीं. हातांत पेट्टें कोलीत घेवन रातचो एकलोच माळ्याक वयचो. घरा वेळार कितेंय करपाक तयार. ताचेकडेन आळस म्हणटा तो नासलो.

अशींच कांय वर्सां गेलीं. इल्लोसो गिड्डो आटयो आल्त मानाय जालो. शेजारच्या गांवांतले चलयेकडेन ताचें लग्न जालें. तीन चलयां फाटल्यान एक चलो जालो. ताच्या बापायक मरण आयलें. आटयाचो बापूय बऱ्योच काणयो सांगतालो. बापूय भायर पडले उपरांत काणयो सांगपाची जबाबदारी ताचेर येवन पडली. बापायन सांगिल्ल्यो काणयो ताणें घट्ट उगडास धरिल्ल्यो. बापूय जे तरेन काणयो सांगतालो ताच्याकय बऱ्यो काणयो आटयो सांगतालो. ताचो आवाजय बरो खणखणीत आशिल्लो. जेवन-खावन जातकच गवळार आटयाच्यो काणयो आयकुपाक एका गवळापुरतो उरूंक नाशिल्लो. तो सगळ्या गवळकाऱ्यांचो जाल्लो...

बापायन जीव सोडचे पयलीं ताका झाडापाल्यांच्या वखदांची म्हायती सांगली. खंयचें झाड कसल्या दुयेंसाक उपकरा पडटा, तें झाड खंय आसता, वखद कशें काडप, कशें घेवप, केन्ना घेवप, कसलीं पथां पाळप हें सगळें ताका समजावन सांगलें. बापूय भायर पडले उपरांत सगळी जबाबदारी ताचेर येवन पडली. दोंगरार शेतांत आसतना तो गवळकारांक वखद दिवंचो. आटयो गवळांत आसपूच म्हळ्यार हेर गवळकारांक तितलोच धीर. सगळे गवळकार ताका आदारान पळोवपाक लागले. बऱ्या वायटाक ताचें नांव सगळ्यांचे जिबेर घोळपाक लागलें. करतां करतां आटयो सगळ्यांचो दोंगराचो बाबा जालो. ताच्याकय पिरायेन व्हड आशिल्लेय ताका दोंगराचो बाबा ह्या नांवानूच उलो मारपाकलागले.

आयज गांवांतलीं सगळीं पोरां-तोरां, म्हातारीं-कोतारीं आटयाक दोंग बाबा ह्या नांवान उलो करतात. दोंगराच्या बाबाचें नांव आटयो हें अ तरणाटे पिळगेक खबर ना. खबर आशिल्ल्याचेय जिबेवयलें तें ना जा

दोंगराच्या बाबाच्या आंगांत आयज शक्त उरूंक ना. भायर-भितर सरो जाल्यार ताका दांड्याचो आदार जाय पडटा. अशें आसलें तरी गें चार पावलां भोंवपाचें सोडूंक ना. दोंगराच्या बाबाची दिश्ट बरी आ आयकुपाक बरें येता. आंगाक आंगभर तेलाचो लेप काडून आयजूनो गीम-पावस थंड उदक न्हाता. सकाळींफुडें तोंड धुतकच वासूच्या च्याया दुकानार वचून च्या पियेवन येता. गांवांत कोणाय एकल्यागेर न आयल्यो-पयल्यो गजाली करता. तिनसांजच्या वेळार कोणेंय 'दोंगरा बाबा आमकां काणी सांग रे' अशें म्हणटकूच 'आतां कोणाक जायो कणो आनी म्हाका तरी याद खंय उल्ल्या त्या काणयांची... केन्ना केन्ना सत रावल्यार याद उरता' म्हणटा. चडूच हट्ट धरतकच दोंगराचो बाबा ती सांगपाक लागता. तोच खणखणीत आवाज, तोच उत्साह... दोंगराचो ब्रा काणी सांगूंक लागतकच आडेकुशिचे पांच-पंचवीस लोक जमतात.

'दोंगराच्या बाबा, झिलाक कामीण जाल्याशी दिसता. आंग हळूच जालां. वखद इल्लें जाय आसलें' अशें कोणूय येवन सांगतकच तो म्हण, ''म्हाज्यान कांय आतां रानांत वचोंक जायना. तुका वखद कोण हन दितलो? तूंच वचून घेवन यो... तुका मागीर हात उकलून दितां. शें कर, असोच काजऱ्याकडल्यान वयर चल. सातुनाच्या झाडाकडेन पावतच दाव्यान सर. थंय तुका काळो गुणो थायो पडटलो. त्या काळ्या गुम्क तेंकून बारीक पानांचें चिंवरिचें झाड आसा तेच्यो कोमऱ्यो काडून ह. तें झाड मेळोंक ना जाल्यार आवाळणेची साल काडून हाड. वाटेर य तरी हांसाळी आसतली तेच्योय चार कोमऱ्यो घेवन यो. वखद करचे पयलीं आजोबाक हात उकलूंक विसरों नाका. चल वगोत करूं ना. वखदान बाकिचें काय काय घालचेलें तें आसतलें सांगशेंत...'' आनी दोंगरा बाबान सांगलेलो तो जागो आनी तें झाड घट मतींत धरून आनो आपले वाटेक लागता.

आपली सांगणी आपलो चलो आयकना हें दोंगराच्या बाबाक मोठें दुख. आपलेकडेन आशिल्लीं झाडपाल्याचीं वखदां आनी काणयांचें भांडार आपा चल्यान सांबाळचें अशें ताका मनापसून दिसता. पूण तो मनार ना. कोणाकय वखद काडून दी म्हटल्यार 'तुजीं तीं वखदां आतां पारचीं नात' अशी परती जाप दिता. आपल्या चल्याचीं उतरां आयकून दोंगरा बाबाक खूब वायट दिसता. आयजवेर आपल्या हातान कितल्या जाक बरे केल्यात हाचो तो थाव घेवंक लागता. ताच्या चल्याकडेन वांयगचें काम जायना. चार-पांच वर्सां जालीं. वांयगण कोण तरी गांवांतलो अदन करता...

एक दीस शेजारच्या गांवांतलो एकलो येवन दोंगराच्या बाबाक म्हणक लागलो, ''दोंगराच्या बाबा, तुजें वांयगण विकता? पयशे कितले ते सांग हें आयकून दोंगराचो बाबा सामको उसळ्ळो आनी म्हणपाक लागलो, ''म्हा जिवांत जीव आसा मेरेन वांयगणाचो एक कुणगो पासून विकचोंना. आमा पुर्वजांची याद ती. ती तुका विकूं? आदीं पयलीं तोंड घेवन चलोंक ग हांगासरलो...'' दोंगराचो बाबा त्या दिसा रागाच्या भारांत खूब कितें बडबलो. ताचे दोळे भरून आयले. त्या दिसा तो जेवलो लेगीत ना.

दोंगराचो बाबा व्हडा कश्टान उठलो. पांयांत चामड्याचें जोतें सें खांदार कांबळ घेतली. हातांत दांडो घेतलो. आनी घरा फाटल्यान आशिल्ला दोंगराचेर ल्हवू-ल्हवू चडपाक लागलो. आपलें दुख्ख ल्हव करपाक.

✲ ✲

# ोर-सुवादीक कॉलम

दीप बोरकार

संवसारांतलें एक ल्हान राज्य.
िन सिटी परसूय म्हाका दिसता तें ल्हान.
आसलें तरीय तें म्हजें राज्य.
ना सारको तें कोणालें तरी राज्य म्हणिना.
रत लेगीत कोणालो तरी देश म्हणटा.
कांक देशप्रेम म्हणटात तें मात लेगीत ना.
तूय तें नासत, पूण गोंयप्रेम भरपूर आसा.
भासुनय हांवें गोंयचेर कांयच बरोवंक ना.
ाचेर गोंया तुज्या मोगाखातीर म्हूण बरयलां
भें पुण्यभूमि गोमंतक म्हूण नमस्कार केला.
कोण गोंयांत रावन बरयता
मुंबय बी रावन वेळ मेळ्ळो जाल्यार बरयतात.
ान अना गोंयचेर बरयता ताका अनाळ्यो म्हणटात खंय!
रावून गुरुनाथ बी गोंयचेर बरयतात ताका गुनाळ्यो म्हणटात आसूंक

मात अजून मेरेन ह्यो अनाळ्यो गुनाळ्यो जमूंक नात.
अर्थ, म्हजो गोंयचेर मोग ना असो न्हय.
ासा पूण म्हाका तो हेरांवरी दाखोवंक कळना.
त्याक, म्हाका म्हजो कोंकणीवेलो मोग खंय उक्तावंक येता तर!
कोंकणी मोगी खंयीय खुट्ट जाल्यार रोखडेच फुट्ट करून मोग
तात.
ाद्यांनी कसलीय नखलामी केली जाल्यार एक बरें आसा.
काडात तुमी पत्रकां आनी उक्तायात तुमचो कोंकणी मोग.
तांचे वांगडा तुमचें नांव लोकां मुखार येत रावतलें.
हांच्या काळजांत कोंकणी मोग खतखतता हें तरी कळटलें.
मराठीवाद्यांक सोडून कोंकणी मोग्यांचेरूच फुरफुरतात.
बाबा ही पाडी संवंय फुर्रऽ फुर्रऽऽ करपाची?
तो कोंकणी मोग, हेरांचो मात कोंकणी मोग!
हय, वायट ती संवंय कोंकणीवाद्यांची.
संवये पासत हांव म्हजो मोग उक्तावंक वचना
म्हाका तांचे पंगतीक व्हरून बसयत म्हूण!
म्हाका गोंयचो उप्पाट मोग आसून सांगूंक जमना.
आनीक हेर हजार कारणां आसात.
हान आसलें तरी तातूंत म्हान लोक रावतात.
बान गरजेमायर शिताफुडें मीठ खावन उडयलें
गोंयचेर कविता बरयली–
नांव व्हड करून ल्हान जाले म्हान
िर्ची देवळां जालीं लामणदिवे प्राण'.
ाबाचे हे कवितेंत ल्हान म्हान जाले तें समजूं येता,
िर्ची देवळां जालीं तेंय समजूं येता
ामणदिवे प्राण जाले म्हणटात तें विचित्रूच दिसता.
दिवो हो प्रकार एक्जॅक्टली कितें तें म्हाका कळना.

बाकीबाबाचो हो लामणदिवो प्राण जाता.
गजानन रायकार तालसुरांत गायत म्हणटा,
'लाय तुजो लामणदिवो म्हजे गर्भकुडींत'.
रायकारा पयलीं बोरकारान लामणदिव्याक प्राण म्हळा.
उपरांत रायकार म्हणटा तो म्हजे गर्भकुडींत लाय.
म्हळ्यार, दुसरो अर्थ, प्राण गर्भकुडींत लाय.
हो लामणदिवो मुखार इतल्यारूच सोंपना.
कोंकणींतली थोर समिक्षक चंद्रलेखा तेय मुखार वता.
ती आपलें पुस्तक आपल्या 'लामणदिव्यां' खातीर ओंपता.
आतां हे लामणदिवे बाकीबाबाचे प्राण जाल्ले ते
काय रायकाराले गर्भकुडींतले
काय आनीक खंयचे तें मात म्हाका आजून कळूंक ना.
ह्या लामणदिवे प्रकरणान हांव मात सामको गोंदळांत पडलां.
खरें म्हळ्यार बाकीबाबान ती कविता बरोवंक फावनाशिल्ली.
ती हालिंच्या काळार म्हजे सारक्या बोरकारान बरोवपाची.
'गोंयचें नांव ल्हान करून म्हान जाले ल्हान
तावेर्नांची देवळां जालीं, कदेलां जालीं प्राण.'
मागीर ह्यो खुर्च्यो सचिवालयांतल्यो आसूं
राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्यो आसूं, लेखकसंघाच्यो आसूं
मंडळाच्यो आसूं वा अकादेमीच्यो आसूं
त्यो जाता तितल्यो तापोवपांतूच गोंयकारांक धन्यताय.
अशी ही आयची गोंयची परिस्थिती हें खरें.
तरीपूण म्हजो गोंयावेलो मोग कुसकुटानूय उणो जायना.
आनी तरी हांवें अजून गोंयचेर एक वळ बरोवंक ना.
बरोवंक बसतां तेन्ना दोळ्यांमुखार धर्मसंकट उबें रावता.
म्हजे म्हाकाच हांव संजय अशें दिसूंक लागतां.
हो संजय म्हळ्यार बांदेकार न्हय वो तळवडकारूय न्हय
तितले उच्च कोटिचे गूण अजून म्हज्यांत येवंक नात.
हो संजय महाभारतांतलो, दिव्यदृष्टी प्राप्त जाल्लो.
कुड्ड्या धृतराष्ट्रा सामकार बसून कुरुक्षेत्रांतल्यो घडणुको सांगपी.
संजयाक त्या वेळार दिसतालें तशेंच म्हाका दिसूंक लागता.
दोळ्यांमुखार दिसता तें धृतराष्ट्राक सांगचें काय ना हे विवंचनेंत संजय आशिल्लो.
गोंयचेर बरयतना म्हाका दिसता तें बरोवचें काय ना हो प्रस्न म्हाका पडटा.
हांव ज्या गोंयचेर बरोवंक सोदतां तें निखटें गोंय न्हय.
गोंय मुळांतूच ल्हान जाल्यान तातूंत ल्हान-व्हड गजाली येतात.
कोंकणी चळवळ येता. मराठी चळवळ येता.
दादले लेखक येतात, बायलां लेखिका येतात.
युवा संमेलन, युवा महोत्सव येता, काणकोणचीं तरंगां येतात.
ते खातीर मागीर जळामळाक फुटपी नारंगां येतात.
ह्या सगळ्यांचें पाड पडूं म्हूण तांकां कुशीक काडून गोंयचेर बरोवपूच शक्य

जायना.
तशें बरयलें जाल्यार ताची पाशाणकळी जातली.
आतां हेंच पळयात, गोंयचेर बरयतना कोंकणीचेर बरोवचें पडटा.
कोंकणी वेगळावन गोंय कशें उरतलें तर!
कोंकणी खातिरूच तर आयचें गोंय राज्य जालां.
मराठीक लागून महाराष्ट्र जालो, कन्नडाक लागून कर्नाटक जालो
तशेंच कोंकणीक लागून राजीव गांधीन घटक राज्य दिलें.
तेन्ना, हांवें कोंकणी कुशीक काडून गोंय घेतलें जाल्यार कशें जातलें?
तो राजीव गांधी सर्गांत रावन म्हाका कितें म्हणटलो?
तेच खातीर म्हाका गोंयचेर बरयतना कोंकणीक प्राधान्य दिवचें पडटा.
आतां हेंच पळयात.
जानेर म्हयनो. जानेर काय जानेवारी?
(ह्या राजहंसवाल्या भिडेन सामके भिडेक घाल्यात आमकां. जानेवारी, फेब्रुवारीचें जानेर, फेब्रेर करून आमची अस्मिताय डळमळीत करून उडयल्या.)
ह्या जानेर म्हयन्यांत गोंयकारांनी ओपिनियन पोल जिखलो.
गोंयची अस्मिताय राखून दवरली.
पूण ह्या अस्मिताय दिसाची याद खंयचोच कोंकणीवादी काडिना.
ते फकत दीसरात कोंकणी कोंकणी करूंकच मेल्यात.
देखून हांव जेन्ना गोंयचेर बरयतां तेन्ना म्हाका अस्मितायवाल्यांची येता.
ही अस्मिताय सांबाळूंक ते तनमनधनान वावुरतात.
आतां हातूंत मुखेल गजाल खंयची?
गोंय, कोंकणी, काय अस्मिताय दीस?
अस्मिताय दीस मुखेल म्हळो जाल्यार कोंकणी गौण थरता.
कोंकणी मुखेल म्हळी जाल्यार गोंय गौण थरता.
आनी कोंकणी आनी गोंय मुखेल म्हळें जाल्यार अस्मितायवादी गौण थरत
ते जर गौण थारले जाल्यार मागीर कितें?
म्हळ्यार, हांवें गोंयचेर बरोवपूच ना, हें समा न्हय?
तेच खातीर हांवें अजून मेरेन अनाळ्यो गुनाळ्यो करूंक नात
त्यो आयज करच्यो पडल्यो.

* *

# रीण

□ निलबा खांडेकार

हांव कितलों सुरक्षीत
जमीन आनी मळब हांचे मर्दी
म्हाका केन्नाच जाणवली ना भिरांत
जमीन घसरपाची
मळब कोंसळपाची
तरीय मळब आनी जमनी कडेन
हांव केन्नाच विश्वसनीय जावंक पावलों ना
तशें तांचें रिणूय हांव केन्ना फारीक करूंक
पावलों ना, युगांचे उदेंत सावन पावली मारून लेगीत

रुखां-पेडां भाशेन हांव म्हजीं पाळां
जमनिच्या शिरंतरांत रुजोवंक पावलोंना
रुखां-पेडांनी आपली जीण
रीण फेडटना पळोवन लेगीत

हांव पळेतां चंद्र-निळें मळब नक्षत्रांनी भिजतना
आपलें मुखामळ संवसाराक दाखयतना
तो उजवाड लेगीत हांव म्हज्या पावलांचेर
घालूंक पावलों ना
शेंकड्यांनी पावलां मेळ करून लेगीत

काळखाचीं कितलिंशींच विश्वां
हांव म्हजे भितर पसोवन विराट शिंपडलां
म्हजो शुन्य वालोर करतना
'मनीस' हे सैमाचे अजापाचे कलेक
हांवेंच विटयलां
आतां खंयचे व्हडविकेन हांव अधिकार गाजोवं
ह्या उदेंतेच्या सुर्याचेर ?
जो केन्नाच व्यभिचाराची भास उलयलो ना
दुराव्यान कुशेंस दुखयलें ना
जाती-कातिचो दुस्वास फांकयलो ना
तशेंच आपले विश्व-तांकीन
अतिक्रमणूय केन्ना केलें ना
घात-पाताचे विखाणू
म्हजींच शिरंतरां पोखरीत गेले
आनी उल्ली फकत जमीन-मळबाची पुण्याय
शाश्वतेक उजागर करीत...

भांगरा सारकें इतलें येवजितना
हांव इतलो मोटवो कित्याक ?
जमीन-मळब, रुखां-पेडां, चंद्र-सूर्य-नखेत्रांच्या
नि:स्वार्थाचें आचरण करतना
हांव असो स्वार्थी कित्याक ?

दरेक प्रस्नांतल्या नव्या प्रस्नांचो व्याप
वाडत वयता
पूण रीण फारीक जावपाची खंयचीच तजवीज
जायना
आनी
आनीक जगपाची उमेद फिटना.

# नातीं

□ नयना आडारकार

हे नात्याचे पास कसले आसतात काय
केन्ना वादळ उटंगारी केन्ना रिमझिम पावस
नातीं अशीं काळजां जोडी
नातीं भेदभाव सोडी
नातीं नातर भर दर्यांत
तारया बगर व्हडीं.
हे नात्याचे पास कसले आसतात काय
केन्ना उचंबळ दर्या केन्ना खोल थीर बांय
नातीं अशीं गोफ कशीं
माये धाग्यान घुस्पतात
उतरान काळजां तोडल्यार
खिणांत अशीं फाफसतात.
हे नात्याचे पास कसले आसतात काय
केन्ना वडाचीं मुळां केन्ना दुदावेली साय
सुर्याचें तेज नात्याक
नात्याक चंद्राची शितळसाण
जावं मानिल्ली जावं रक्ताची
नात्याक मायेची ओलसाण
ह्या नात्याचे पास कसले आसतात काय
केन्ना दर्याची खोलाय केन्ना मळबाची उंचाय.

# शणै गोंयबाबाचे बरपावळिचो प्रभाव

फेलीस्यु कार्दोज




आग्वादाचे बंदखणींत सांजे वेळार केन्ना केन्ना आमची भासाभास, भाशणां बी जातालीं. एका दिसा हांवें उलोवप केलें. उलोवपाचो विशय कितें आसलो तो उगडास जायना. हांवें भाशण केलें. हांव बेस बरो उलयलों म्हण म्हजो समज जालो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पांडुरंगबाब मुळगांवकारान हांसून म्हाका म्हळें: ''फेलीस, काल तूं उलयला ती कोंकणी? ती आयकूंक कायचेकाय दिसताली...'' पांडुरंगबाबाच्या उतरांनी म्हजो अहंकार दुखवलो. म्हाका वायट दिसलें. कोंकणी कशी उलोवंक जाय, वाक्यांत क्रियापद खंयचे सुवातेर आसूंक जाय, हे विशीं ताणें म्हाका सुचोवण्यो केल्यो.

पांडुरंगबाबान घरच्यांकडल्यान शणै गोंयबाबाचीं पुस्तकां हाडून घेतलीं. रातचें जेवण जातकच एक वर तो म्हाका शणै गोंयबाबाचें बरप वाचून दाखयतालो. पूण म्हजी एक फजेत जाताली. दर चार उतरां फाटल्यान एका उतराचो अर्थ म्हाका कळनासलो. म्हाका विचारचो पडटालो. पांडुरंगबाब मातूय उबगेनासतना म्हाका कठीण लागतल्या उतरांचे अर्थ पुर्तुगेजींतल्यान दितालो. उतरां मराठी बी काय म्हण म्हाका दुबाव येतालो. एकदां हो म्हजो दुबाव हांवें ताका सांगलो. ''शणै गोंयबाब एका वेळार पुर्तुगेज वा दुसरे भाशेचें उतर वापरीत, पूण मराठी शब्द वापरचो ना.'' ताणें म्हळें.

जायते म्हयने आमचो दोगांयचो वाचपाचो कार्यक्रम चल्लो. शणै गोंयबाबाच्या पुस्तकांतल्या 'कठीण' उतरांचे हांवें पुर्तुगेजींत अर्थ बरोवन घेतल्यात. त्यो ४-५ चोपड्यो जातल्यो. हे परीं हांवें शणै गोंयबाबाची चडशी सगळी बरपावळ वाचून काडली. तेन्ना कोंकणीचे निसणिचेर ते कितल्या वयल्या पांवड्यार आसात आनी हांव खंय आसां तें म्हाका समजून आयलें. रोमींत कोंकणी बरयतात तांणी नागरी लिपी शिकूंकच जाय आनी शणै गोंयबाबांचीं पुस्तकां वाचूंकच जाय म्हण म्हाका स्पश्ट दिसलें.

'आबे फारीय' हें चरित्र शणै गोंयबाबान बरयलां. ह्या पुस्तकाची प्रस्तावना प्रॉपेर्सिय कुर्रेय आंफोसबायेन बरयल्या. ते प्रस्तावनेंत प्रॉपेर्सियबायेन शणै गोंयबाबाची सर स्टिफन ज्वैग ह्या ऑस्ट्रियाच्या लेखकाकडेन केल्या. दुबावा विरयत शणै गोंयबाब स्टिफन ज्वैगा परीं भौतासांचो बरयणार. आग्वादाचे बंदखणींत स्टिफन ज्वैगाचीं जायतीं पुस्तकां (पुर्तुगेज भाशांतरां) म्हाका वाचूंक मेळ्ळीं. आल्वारु पेरेयरबाबाकडेन तीं आसलीं. खरेपणी ज्वैगाच्या पुस्तकांचो म्हजेर बरो परिणाम जालो. बंदखणींत शणै गोंयबाबाच्या पुस्तकां शिवाय थोडीं दुसरीं कोंकणी पुस्तकां म्हाका वाचूंक मेळ्ळीं. पयलीं पयलीं नागरींत म्हजें वाचप खूब सवकास जातालें. पूण दीस वतां वतां म्हजो वेग वाडलो. हांव नागरींत बरोवपाचीय संवंय करूंक लागलों.

एक याद जाता. १९५२ वर्सांतली गजाल. तेन्ना हांव २० वर्सांचो तरणाटो. मुंबय एस्.एस्.सी.ची परिक्षा दिवंक गेल्लों. कुलाबा श्रीमती एलीस ज्युलियन हिच्या फ्लॅटांत रावतालों. तांगेर मंगळूरचो एक भुरगो – फ्रांसिस मथायस – कामाक आसलो. एका दिसा ताका एक पत्र वाचतना हांवें पळेलो. तें कसलें पत्र काय म्हण हांवें ताका विचारलें. तें 'सुख-दुख' कोंकणी पत्र म्हण ताणें सांगलें. कोंकणी पत्र म्हणटच म्हाका बारकाय जाली. (तेन्ना हांव रोमी कोंकणी पत्रांचेर बरयतालों.) पत्र हातांत घेतलें, पूण तें म्हाका वाचूंक येना जालें. ती लिपी कानडी आनी मंगळूरकार हे लिपींत कोंकणी बरयतात-वाचतात म्हण फ्रांसिस्कान म्हाका सांगलें. हांवें ताका तें पत्र व्हडल्यान वाचूंक लायलें. भास आमचीच – कोंकणी. म्हाका समजली. केन्नाय पूण कानडी लिपी शिकतलों म्हण हांवें मनांत निचेव केलो.

माय म्हयन्यांत ज्युलियन कुटुंब थोड्या दिसांक गोंयां येतालें. फ्रांसिसूय वांगडा आसतालो. केन्नाय तो त्याँ कुटुंबाच्या भुरग्यांक घेवन सुरावले म्हगेर येतालो. (उपरांत तो म्हाका मेळूंक ना. तो तारवटी जाल्लो आनी कर्नाटक कारकाला गांवांत रावतालो म्हण कोणें म्हाका सांगलें.)

१९५४ वर्सा बंदखणींत हांवें नागरी लिपी शिकून काडली. कानडी लिपी शिकूंक सोदतालों. आमच्या सांगाता कृष्ण नंबियार आसलो. तो दक्षिण भारती. ताका कानडी लिपी येता काय म्हण हांवें विचारलें तेन्ना ताणें हय म्हळें. ताचेकडल्यान एका कागदार कानडी अक्षरां बरोवन घेतलीं. ताणें तीं बरोवन दिलीं. पळोवंक सुंदर दिसतालीं – जिलब्यां सारकीं. हांवें शिकतालों. कांय म्हयन्यांनी आग्वादाचे बंदखणींत आनीक कैद्यांक हाडून दवरले. तांचे भितर एकलो मंगळूरचो कोंकणी उलोवपी आसलो – मोहन राव. ताणें म्हाका सांगलें, हांव कानडी म्हण जी लिपी शिकलां ती कानडी न्हय म्हण. तेन्ना म्हाका कळ्ळें, नंबियारान म्हाका कानडी म्हण मल्यालम लिपी शिकयल्ली!

उपरांत हांवें 'मराठी कन्नड शिक्षक' पुस्तक हाडून घेतलें आनी ताचे आधारान कन्नड लिपी शिकलों. पूण हे लिपींत बरयललें कोंकणी पत्र वाचतां म्हळ्यार तें मेळनासलें. तेन्ना भारतांतलीं नेमाळीं गोंयांत येवपाचीं पुर्तुगेज सरकारान बंद केल्लीं.

१९५८ वर्सा म्हजी सुटका जाली. कानडी लिपींतलें कोंकणी पत्र मेळोवपाक हांवें जायते प्रयत्न केले. तसलें एक पत्र मडगांवचे कुर्रेयींत (टपाल घरांत) केन्ना केन्ना येता म्हण कुर्रेयकारान एक दीस म्हाका सांगलें. तो कुर्रेयकार – सदानंद (ताका दिनाय म्हणटाले) म्हजो इश्ट आसलो. टपालाचे अधिकारी भारतांतलीं नेमाळीं आडावन दवरताले आनी उपरांत तीं लासताले. हेवरेंच तेंय लासपाक वतालें. तसलें पत्र ताच्या हाताक सांपडल्यार म्हाका दिवंक हांवें दिनाकडेन मागलें.

एका दिसा ताणें एक पत्र गुपतीं हाडून म्हाका दिलें. पत्र आसलें 'राकणो'. तें मंगळूरच्यान भायर सुट्टालें. हांवें तें वाचपाक सुरू केलें. सुरवातेक आठ-धा वळी वाचूंक म्हाका सुमार अर्द वर लागलें. हांव प्रयत्न करीत रावलों. थोड्या दिसांनी म्हज्यान सवकासायेन तें वाचूंक जालें.

नुवेंच्या माद्रिंच्या कोंवेंतांतले एके सिस्टरीक 'राकणो' पत्र नेमान येतालें. पूण तें तिका पावनासलें. पुर्तुगेज अधिकारी भारतांतलीं वर्तमानपत्रां जप्त करताले. दर सप्तकाक म्हाका 'राकणो' लिपचोरयां वाचूंक मेळटालें. वाचून जातच हांव तें कुर्रेयकाराकडेन परत दितालों. 'राकणो' पत्रार राजकारण येना. चडशीं धर्मीक बरपां येतात देखून, जाता जाल्यार तें ते सिस्टेरीक पावतें कर म्हण हांवें ताका सांगलें. ते परमणें कुर्रेयकार फावतालें तेन्ना म्हाका 'राकणो' वाचूंक दिवन मागीर तें ते सिस्टेरीक धाडून दितालो.

उपरांत मुंबय आसलले म्हजे इश्ट म्हाका केन्ना केन्ना 'कोंकण दायज', धाडून दिवंक लागले. चाफ्राबाबान (सि.एफ.द. कॉस्ता) मुंबयंत 'विशाल कोंकण' साताळें सुरू केल्लें. तें म्हाका तो नेमान धाडूंक लागलो.

१९-१२-१९६१ ह्या दिसा गोंयची सुटका जाली. गोंयांत मेकळें वारें व्हावंक लागलें. भारतांतलीं नेमाळीं मेकळेपणीं गोंयांत येवंक लागलीं. 'राकणो' पत्रय सोंपेपणी मेळूंक लागलें. १९९८ वर्सा देजेंब्रांत 'राकणो' साताळ्यान ६० वर्सां पूर्ण केलीं. ह्या समयार ताच्या संपादप्याक – फा. सामुएल सिक्वेराक – आदल्या संपादप्याक – मों. अलेकजांडर सौजाक – आनी सगल्या कारभाऱ्यांक परबीं दिवन हांवें संदेश धाडलो. 'राकण्या'च्या वज्रोत्सवाच्या विशेश आंकार हांवें बरोवन धाडलले दोन लेख उजवाडाक आयल्यात.

(चलता)

# ·नरजोती: अणभवाचो चुरको, अनुभूतिच्यो चंदरजोती




ां. किरण बुडकुले




आयज **तनरजोती** ह्या कवितांझेल्याविशीं बरयतना एक याद जागी ली. सुमार देडेक वर्सा आदीं रमेश वेळुस्काराक पन्नास वर्सां जालीं दिसाळ्यांतल्यान तांचेविशीं बरयिल्ल्या लेखावेल्यान – आनी उपरांत बरें मागप्यांकडल्यान – कळिल्लें. तेन्ना व्यक्ती परस पयलो विचार वेचो आयलो आनी कवीक लेखून एक व्यक्तिगत नोंद डायरेंत जाली: ायच्या भांगरांत बांदूक जाय फायची वज्रकणी.' ताचे फाटोफाट कविले वितेक अनुलक्षून आपशींच उतरांची लडी अवतरली: ''वर्सां येती, वर्सां ती / सालोनसाल जळटी वाती / लागता दिवे, पेट्टा पण्टी / विरून रना तमस राती / सासणमाय ती मनमुक्ताय / अखंड सादयता 'उगड टी' / हिरण्यगर्भ पर्जळून ज्योति / पुनरपि दिपकाय दिका धायी।''

आज **तनरजोती**च्या काव्यमळावेल्या उद्घाटनान रमेश वेळुस्काराले वितेचो उजवाड पुनरपि फांकारला. आनी विशेश म्हळ्यार, पुनरपि ज्योती ळावपाच्या काव्यमोग्यांचे मूक विनंतेक नकळटां कविते वरवींच न्हय संग्रहाच्या माथाळ्यावरवीं लेगीत प्रतिसाद मेळ्ळा. हो निखटोच एक ायोग काय अनुभूतिच्या मळावेलें पूर्व-निर्धारीत घटीत हें अल्पमती मिक्षेक सांगूंक येना. मात हाका लागून **तनरजोती**चे गूढवादी सायेक दीक गडदसाण – म्हजेपुरती तरी –लाभता.

**तनरजोती**विशीं बरयतना, अशे परीन अज्ञाताच्या वाठारांतले संदर्भ ाजून येवप हें कोणाकय नवलायेचें दिसलें तरी खरेपणान तें अजाप य. नांवान तशी अनुभूतिनय, **तनरजोती** ही तंद्री आनी दिश्टावो हांचीच क तरल अभिव्यक्ती. आत्मनिश्ठ कविमनाचे चिरंतनाचे भोंवडेंतल्यान दिल्लो एक नादमय आनी काव्यमय आविश्कार. ह्या आविश्काराफाटल्यान यकुऱ्या उतरांची म्होंवी होंवी आसा खरी, पूण ती होंवी जळवणे जिणेची ळमळ' सोंशीत साकारल्या आनी भूतकाळाच्या ज्वलंत उगडासांनी तिका ल्मा घाल्या. देखुनच ती उतरांच्या नाचऱ्या 'मेरांर / स्मरणाचें केण' लयता. मात सहज सुलभ दिसुनय, लक्षांत घेसारकी गजाल म्हळ्यार, नाचरीं उतरां कवीक सोंपेपणीं वश जायनात. तांच्या मुळांत वेदनेची ळ तर आसाच, सर्जनाच्यो कळाय आसात. देखून कवी म्हणटा, ''तुज्या स्तित्व / स्तवनाक / जीव उब्यानी / तिश्टता ॥ व्हड अटंग वाचस्पती उतर फळयतना / कश्टता'' (कवीत: १७, पा. २४). अप्रुपाये गजाल ळ्यार, खुद्द कवीक ही कश्टणी वजें कशी दिसना; घडये ती ताची णे-साधना आसुंये वा तागेल्या अंतरीक यथार्थाचो स्थायीभाव आसुंये. ंगा अशें म्हणचेलें कारण म्हळ्यार 'तनर' ही कवीखातीर फकत एक स्थिती' वा 'स्थित्यंतर' न्हय; ताचे नदरेन 'तनर' ही मनाची नित्य ारणा'. हेसं खातीर तनर हें साध्य आसता – साधनेंतल्यान तपस्येंतल्यान प्त जाल्लें फळ! पूण कविली 'तनर' ही तागेलीच साधना! देखून का **तनरोत्सव** मनयन दिसता; ''रुवांरुवांचेर / कार्तीच्यो वाती करून'' वी म्हणटा, ''हांवें **तनरभर** दिपरल्नां लायलीं'' (रेखांकन म्हजें, कवीत: ८, पा.२५). हांगा 'तनर' ही कवी खातीर फकत एक स्थिती वा भाव ासाशी दिसना. ती ताचे खातीर 'अवकाश' लेगीत जाता. ह्या दुसऱ्या र्थान पळेल्यार 'तनर' हीच ताचे खातीर सर्व-आस्पावणी वास्तविकताय रता. हाची गवाय फुडल्या वळिंनी मेळटा. ''तुजें अस्तित्व / स्तवन म्हजे तंद्रेंत / वस्तीक / मस्त तनर / ही अशी / हांवें घातल्या फस्तीक.'' (कवीत १७, पा. २४). हांगा 'तनर' ह्या उतराची दुवार्थी प्रचिती मेळटा. पयल्या उल्लेखांत 'तंद्री' ही ('अनादि अस्तित्वा'ची) निरंतर सासाय स्तवनावरवीं 'वस्तेक' बाळगुपी आत्मविलोपी भावना. ही कवितेंतली पारलौकीक वास्तवताय! दुसऱ्या उल्लेखांतली 'तनर' प्रपंचीक आसा. ही 'तनर' साध्य न्हय, ती साध्यामेरेन व्हचचेलें निखटें एक माध्यम. देखून कवी तिका अशे परीन 'फस्तीक घालूंक' शकता.

पूण प्रपंच आनी परमार्थ हे मनीस-मतीन केल्ले मानव अनुभूतिचे वांटे. कवीक लाभिल्ले व्यापक नदरे सामकारा ते तिगनात. आनी म्हूण, तागेल्या पूर्णाक वेंगावपी अभिव्यक्तींतल्यान ते एकाच यथार्थाचीं वेगळावंक जायना अशीं दोन रुपां जावन प्रगटतात. अशे तरेन, **तनरजोतीं**त संवसारीक आनी संवसारापेलें हांचें जें अद्वैत आसा तें फकत उतरांतल्यानच न्हय तर त्या उतरांक फळोवपी कविल्या तादात्म्य भावांतल्यानय उक्तावता. कवीन हो अद्वैताचो दिस्टावो **उजवाड-सुवाळो** कसो अणभवला हाची गवाय तागेली काव्य-नदर बेस बरी सामकारायता. कवी खातीर, ''ह्या जगाभायर / एक ज्योत थंय जळटा / संवसाराक उजवाडावपी / ते जोतींत / म्हजे नदरेची जोत / आनी एके / तनरजोतींत हांव / नाच्च जातां / दोळो / सर्वंग सुवाळो'' (कवीत: १, पा. ८). जंय अशे तरेन 'हांव'च विलीन जाता, थंय सिमीत आसा ताकाच असीमाचें रूप (खरेपणान 'अ-रूप') येता. कविली ही तादात्म्यताय आकळटलो जाल्यार वाचप्याक उजवाड, दिश्टी आनी लय हांची जाणविकाय आपलेमदीं केळोवची पडटली. ह्या तिगांच्या सुमेळ-सुवाळ्यांतच आप आनी पराचो वेगळेचार विरून वता. परात्मतायेचो लोप जाता. **हांव** आनी **तूं**, **अहम्** आनी **तद्**, **हांगा** आनी **थंय** हांच्या एकचाराची लय होलमता. मागीर कवी, ''तुज्या हाताचो तद्रूप स्पर्श'' आनी ''तुज्या वेंगेंतुली वैश्वीक हुनसाण'' हांचेवरवीं जिवा-शिवाची एकरुपताय कशे परीन अणभवता, हाची अनुभूति वाचप्याकय घेवंक मेळटा. तेन्ना वाचप्याक ''तुजें सगळें तुजेपण / म्हजें म्हजेपण'' कशें कितें जाता हें सहज आकळटा. थंय मागीर विरोधोक्ति वा विरोधाभासाचे पास अर्थाक बांदून दवरूंक पावनात. विशेश म्हळ्यार, तूं आनी हांव हें 'प्रपंचीक **नातें**'

लेगीत संवसारीक यथार्थापुरतेंच मर्यादित उरना. संवसाराचे फास्केंत, प्रपंचाच्या संदर्भांत तें लटकें आसुनूय ताची परमार्थिक व्याप्ति विशाळ आसा. संवसारापुरतें पळेल्यार 'हांव' आनी 'तूं' हीं मेळून एक नातें – एक अनुबंध – जाता. संवसाराभायर – पारलौकीक नदरेन पळेल्यार 'हांव' आनी 'तूं' मेळून बंधनमुक्त, लौकीक 'आस्तेपणाविरयत' घडिल्लो एकवट. 'आसप' सोंपून मेळटा तें – **ना तें.** देखूनच कवी म्हणटा, ''तुजेखातीर मेळटा, नातें, नातें.'' (कवीत: १६, पा.२३). हांगा 'नातें'वेलो श्लेष, दुवार्थाचो हयन्हयसो शिंतोडो फांफडून कवितेक खूब अर्थगर्भी करून सोडटा.

**तनरजोतीचें** एक खाशेलेपण म्हळ्या ही आशयघनता. मात आशयाचे गाड सायेक लागून कवितेची गोडी उणावना. वाचतनाय ही कविता लालित्य, नाद, लय, रंग आनी भाव हाचें भौपानी अस्तर उतरांक लावनच अर्थाचें हूल दिवपी फूल फुलयता. अर्थाचें हें भौ-पाकळ्यांचें फूल वाचप्याचे समजिकायेंत थिरावना, तें 'फुलपाकुल्या पावलांत' भुर्दिशीं उडून वचूंक पळेता. संदर्भाच्या वेगवेगळ्या मळ्यांनी तें वेगवेगळ्या रंगांचें जावन धोलता आनी वाचप्याकय 'घनरंगांची झींग' हाडूंक पळेता. देखून 'सर्वात्मकाचें निर्गुण रूप / आकारून येतकूच' कवी जेन्ना म्हणटा, ''आमकां सगळ्यांकूच / तुवें भूल घातली'' (कवीत: ३४, पा. ६३) तेन्ना ताचे कवितेकय तेंच विधान लागू करीनशें दिसता. इतलेंच न्हय, तर कवी वांगडाच विचारीन दिसता, ''तुज्या महाआयावपणाचें / हें पेणें / नेणारांक हें / कळचेंच ना तरी कशें म्हणप...?'' (कवीत: ४५, पा. ६३).

रमेश वेळुस्काराचे कवितेक गूढवादाचो वसो आसा अशें म्हळ्यार वाचप्याक अजाप दिसचें ना. पूण हो गूढवाद बऱ्याच प्रमाणांत ब्लैकाच्या गूढवादाचो दायजी आसा, अशें म्हळ्यार वाचपी अजापतलो. घडये विश्वासय दवरचो ना. हाचें कारण म्हळ्यार ब्लैकाचो गूढवाद अतिशय रम्य, सोंप्या, उक्त्या आनी म्हूण सहज आकळपी भावकवितेंतल्यान उदेला. ब्लैक वाचप म्हळ्यार अनाकलनियाची गोडसाण सुलभ आनी आकलनियाच्या पोशान पिवप. तागेलीं प्रतिकां, तागेलें सैम आनी तागेली अनुभूति उत्कट आसुनूय, उत्स्फूर्त आसूनय, बालसुलभ आनी म्हूण ओडलायणीं आसतात. **तनरजोतींत** सुलभतायेच्या आभासांत अर्थाचीं संक्लिष्ट कुवाडीं वावुरतात. हीं कुवाडी तशीं पळेल्यार अगम्य न्हय पूण सहजप्राप्यय न्हय. अणभवांचो वाठार माड्डिले बगर आनी नेणविकायेचीं झिलां पैसावलेबगर तांचो गर्भितार्थ हाताक लागना. शब्दश: मेळ्ळो तरी लाक्षणीक अर्थान तो सहज वश जाय्ना. कारण ताचो वाठार हो चेतन-अचेतनाचो मोनो प्रांत. ताच्यो शिमो बोध-अबोधाच्या अदृश्य धाग्यांनी मेटल्यात. कविलीं **स्पर्शोत्सवाचें** वर्णन करपी उतरां अर्थाच्याय ह्या स्पर्श-अस्पर्शाच्या खेळाक ज्युस्त लागतात. कवी म्हणटा, हो स्पर्शोत्सव ''तनरांची आलतड पलतड / नासलेलो / विराटांचे राट / सोप्पेपणान समजावन दिवपी / मनाच्या उपाट मेकळेपणांत केळोवपी / नि:शब्दाच्या आधारान.'' (कवीत: ४७, पा. ६५).

वेळुस्काराची कविता नि:शब्दाच्या आधारान उलयता, शब्दांचें तालबद्ध, नादपूर्ण, लयबद्ध आंगलें घालुनय, मौनाचें एक खाशेलें पांगरूण अर्थाक गुठलायता. वाचप्याचे संवेदनशीलतायेक ह्या मौनाची सोबिताय आफुडली जाल्यार ताका अर्थाचीं साबार तासां वश जातात. ना जाल्यार तो उतरांच्या मनभुलोवण्या खेळांत रंगून शब्दार्थावांगडा आपालिपा खेळपांतच गुल्ल जाता. देखीक,''दोळियांच्या पार / अंतरांच्यापार / सर्वांगांच्या पार / तुजो म्हजो पार // तुज्या चक्रार / म्हजो पार / म्हज्या पारार / तुजें छत्र / तुज्या छत्रार / म्हजो सूर्य / म्हज्या सुर्यार / तुजें मळब / तुज्या मळबार / हांव आनी हांव / म्हज्या मळबार / तूं आनी तूं // असल्या म्हाकां / असल्या तुकां / नांव कोणे / दवरूं नाका /''. (कवीत: ७१, पा. १०१).

**तनरजोतीची** प्रतिमासृश्ट वैमिक आनी सचेत विश्वाची घडयेघडयेक गवाय दिता. सर्जनाची चक्राकार लय, विराटाची अद्भूत गती, अनंतें विशाळ रूप आनी निराकाराची ब्रह्मसमाधी हांकां आस्पावंक घडपी काव्यानुभवाक चैतन्य, निर्मणी, वाड आनी तांची पुनरावृत्ती केळोवपी प्रति साकारूंक शकता. देखून, **तूं** आनी **हांव** ह्या दोन सर्व-संवकळित, सर्व-आस्पावण्या, स्थूळ प्रतिकांतल्यान उलोवपी ही कविता प्रतिमांचें माळेंच उक्तायता. जीवसाण आनी कालातीतपण हे गूण निरंतर बाळी कविलीं दोनूय प्रतिकां, पंचेंद्रियां, पंच-म्हाभूतां, सृजनाचे समस्त रंग जो उपेग करुनच भोंवतणची प्रतिमासृश्ट घडयतात. अनादि, अंतहीन चक्राकार संभव हे प्रतिमासृश्टिचो मूळाधार. ह्या मूळाधारांतल्यानच तनरजोतींत 'तें ना तें / म्हण्टां / जुळत येता नातें / आनी पात जावन / परत्या / तुजें म्हजें / तनरांचें पातें'' (कवीत ७७, पा. १०७).

अशे हे परमळीत, पर्जळीत **तनरजोतीक** केण आनी स्मरण ह्या उर्जा-उजवाडाचें रंगोत्सवी मुखपृष्ठ घालून दिबंर शिंगबाळ हांगेल्या अंवी आनी तादात्म्य पिशोलान नटयल्या. नदर आनी मन आकर्षित करपी ह्या तनरसुवाळ्याक रंगांचो उद्रेक आनी प्रकाशाचो साज अदीक रोव आनी उत्सवी करता. दोळ्यांक थाकाय दिवपी छापणावळ आनी रेखी मांडावळ हांकां लागून न्यू एज प्रिन्टर्साच्या येसा तुऱ्यांत आनीक क पांख लागलां अशें म्हणचें पडटा. सोबीत बांदावळ आनी उठावदार गॅटप लाबिल्लो हो कविता-संग्रह वाचप्याक अंयशीं रुपयांत फावो केल्लेखातीर अगस्ती प्रकाशनाक परबीं. कवीन आपले सदचे शैलींत अर्पणपत्रिय दुवार्थी करून उडयल्या. 'मीथ – हें मिथिलेशाचें लघुरूप त्या जिवीत-मिथकाचें आटीव रूप हें कळटासर कविता वाचून जाल्यो आसतल्यो.'

मात हो संग्रह वाचतना, कांय कडेन काव्याक अनुरूप अशी मेकळीक घेतना स्वातंत्र्याचो उपेग स्वाधिनते परस अनाधिनता कसो केला, हें खटा. देखीक, 'सर्वगान लख्ख लख्ख / पेट्टनाय / ताकाय फुडाराच्यो चो / पेटोवपाची ही नस्ती संवंय'' (कवीत: ५५, पा. ७८). 'सर्वंग', 'पांो' हे उपेग कविली खाशेली सवलत म्हूण आडनदर केली तरी आवडत. तशेंच 'काश्सटां', 'जागृत', 'म्हैमोगाची' हीं उतरांय बळयां आयतत अशें काय दिसून, वाचतना थोडोसो रसभंग जाता. पूण तो थोडोच ळ. रोखडेंच वाचप्याक ''तरत येता उतरांतल्यान / ॐकाराच्यो कुर / झंकारत रत कुरवो / झडटा जावन पुरवो / शब्दाचीं अब्दागिरां'' (कवीत: ७५, पा. १०५)चें सौंदर्य भुलयता. तरी लेगीत तेच कवितेंतलो ''गिरापी आफताब / मळबांकूय नकळटांच / थरत येता गाब'' हो उल्लेख थोडाव गिरगिरायताच.

इतलें आसुनय ''प्रियाळांच्या आगमनाचे / साक्षात्कार'' घडोवपी नी ''तंद्रेच्या शुभंकरांतल्यान'' परमळीत ''संवेदन मोगाळे'' भेटोवपी कविची गोडी आनी लक्तुबाय दोळ्यांआड करप शक्य ना. ही कविता आस्वादना जी विलक्षण अनुभूति येता तिचें वर्णन कविलेच प्रतिमेंतल्यान करी रकें आसा. ती प्रतिमा फुडल्या वळींतल्यान प्रगटता: ''... मंडोळ्यांच्या / पिंपळा पानार / म्हजी कृष्ण आस / आपल्याच पांयांचें / आंगठें बोट चोखीत / वाट काडटा / युगाब्दांची / मळप्यांच्या कवडार का'' अशी ही कुकूली, मनभुलोवणी, बालकृष्णी अनुभूति दिवपी तनरजोती म्हळ्यार सताची पर्जळीत चनरजोत! चुरको आनी पर्जळाची जुंवळी दिवपी करपी कवितेक मनासावन येवकार.

**तनरजोती**
**रमेश भगवंत वेळुस्कार, १९९९**
**अगस्ती प्रकाशन**
**पानां: १०९, मोल: ८० रु.**